पुंडलीक नायक हांची

बरपावळ

अच्छेव ( नवलकथा )

चित्रंगी ( कथां - झेलो )

खण खण माती ( खेळ )

मोल : पांच रुपया

**जाग प्रकाशन : १८**

शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वर्स प्रकाशन : २

जुलय १९७६



**मोल : पांच रुपया**

अुजवाडावपी :

सुमन्त रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय
४०३ ४०४

छापपी :

य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३ सदाशिव,
पुणे ४११०३०

चोवल्ली भिञयनासताना
थिगूर खावन दाखोवपी
समस्त विद्वानांच्या
कट्टुलार हें 'बांबर' ओततां.

आडवेळ्या पावसा सारको तो अकस्मात आयलो. व्हाणो करकरायत पडवेची सोपाणां चडलो. तीनसांजच्या धुंवट्या काळखांतूय ताच्या हातांतलीं बडी लख्ख बरी दिसली. निकतोच गवर्णींत गोरवांक तण घालून धर्मू परतल्लो. सोप्यार बसून खोरजू फापडितालो. बडी सोप्यार आदळ्ळीं आनीं ताणें खोवले फापुडपाक सुरवात केली. धर्मूच्या वोंठांर उतरां आयिल्लीं.

'मामा'...

'ही बडी.'

'दवर.'

'आतां आयुश्यभर गोरवां फाटल्यान...'

धर्मूच्या मामाची खोड ती. मामाच्या बापायन– म्हळ्यार धर्मूच्या आज्यान खंय मामाक भुरगेपणांत शाळेंत घातलो. पुण मामा खट. दोन दोन वरसां एकेच क्लासींत थपकल मारून बसलो. एकदीस खंय आज्यान ताज्या हातांत खोलारणी दिवन म्हळें, 'आतां जलमभर कर मेस्तपण....'

'परिक्षेचो रिजल्ट लागलो मरे?'

'हय'

'नापास जालो!'

'जालों.'

'लजूय दिसना?'

'ना.'

अर्थात मामाक धर्मून केल्लयो जापो मनांतल्या मनांत. मामाचे पावलेनूच ताजेर वागरें घडिल्लें. तसोच ताशावयली बडी कशी तणतणत मामा भितर गेलो. वाती वळीत बशिल्ले ताजे आवयक—आपणाले भयणीक सांगूक

लागलो.

‘ वाती आनीक कित्याक वळटा ? ’

‘ दिवो लावंक जाय. ’

‘ गरज ना. तुज्या पुतान लायले दिवे. ’

आनी मागीर जायफाय. उपरांत धर्मूक भायर आयकूंक येत तेदयान एक जाहीर घोशणा :

‘ तुमचे आमचे फुडले संबंद आनीक चलपाचे नात. ’

म्हळ्यार आदीं थरिल्लया प्रमाण मामाली चली धर्मूक दिवपाचें मामाच्या मनांत ना.

मागीर मामा परत भायर आयलो. ताज्या आंगातली भिरभिरी जोरा-सारकी ताज्यांत तशीच आसली. धर्मूचे आवयचें उतर ते दीस ताणें पयले खेपे मोडलें. सोपाणां देंवताना तिणें दाखयिल्लया दिव्याचो उजवाड लेगीत ताणें देखलो ना. आंगण सोडटना ताणें एकूच प्रस्न धर्मू वटयां मोखून माल्लो :

‘ वरसभर पणजेंत तुवें केलें कितें ? ’

तसो हो प्रस्न धर्मूक नवो न्हय. कित्याक तर ताणेंच तो ताका जायते खेप विचाल्ला. परिक्षेक पयलो पेपर वाचताना... निमाणो पेपर सोडटना... निमण्या दिसा कॉलेजची सोपाणां देंवताना.... भरण्याआकाचो निरोप घेतना... पणजेच्या बसस्टॅंडार गांवची बस धरून पणजी सोडटना. तोच प्रस्न– ‘ वरसभर पणजेंत हावें केलें कितें ? ’ खरें म्हळ्यार ताणें तशें कांयच करूंक ना. पणजेचे एके कुशींत घडिल्लया घडणुकांची तो एक गवाय आसलो. त्या बांबरांत जियेवपी जिणेची एक गवाय. तो ना म्हणिना, त्या बांबरांत मर्दी ताजोय हात, पांय केन्ना केन्ना पडला. मुंगल्ला... आज धर्मू सगळें सांगूंक सोदता. ताका सांगन दिसता. मेकळेपणान... प्रमाणिक-पणान...

: १ :

'हांगा रावपाचें.'

हांवें हातांतली ट्रंक सकयल दवल्ली. खोपिच्या दारार आमी खूंटशे उबे रावले. हांवें मुखार नदर माल्ली. खोपिची कवडी उक्तीच आसली. भितर पळयतलो जाल्यार लेगींत भेंड मोडून ओणंव घालचो लागतालो.

खोप चुड्टांनी शिंविल्ली. पारेतिच्या जाग्यार चडशे कलमेल्ले पत्रेच आसले. खोपिच्या पांख्यार दुदनी घोसाळ्याच्यो सरपटयो वाली चडपाच्या यत्नांत दिसताल्यो.

पणजेंत आनी असली खोंप ! मनांतल्या प्रस्नान पणजे विशिंच्यो म्हज्यो कल्पना धगळ्ळ्यो.

'रावशी मरे हांगां ?' मामान म्हजेकडेन पळय नासताना विचाल्लें आनी म्हजे जापेची वाट पळय नासताना म्हज्या रावपाचेर सील माल्लें.

गांवांत म्हजी मॅट्रीकची परिक्षा जाल्ली. पास जाल्लों. कॉलेजचें शिकप आवयकडेन जावपाचें नासलें. देखून म्हज्या मामान आंगेती घेतिल्ली. मिरामारच्ये धेंपे कॉलेजींत आर्टसाच्या पयल्या वरसा खातीर म्हजें नांव घातिल्लें. रावपाची व्यवस्ता हांगा केल्ली.

—हें भरण्याआका.

खोपींत काळोख दाटिल्लो. त्या काळखांतसून भरण्याआका भायर आयलें. भुयारांतल्यान चेटकीण आयिल्लेवरी.

कंबराक बाग. सुमारा भायर. आंगार जुनेर आनी चोळी. जाण्टेपण जड्डल्ले कातीर दिसतालें. दांत नासून तोंडाचें बोळकें, बेलको कशें दिसतालें. केंस बोणकाळ्याच्या तुऱ्यासारके धवशे-पिंगशे. म्हातारपणाची वोट्ट लक्षणां ताजो घेय मिरयतालो. ताणें येवकार दिलो. वळखिच्या मनशांक दिता तसो. मामाची वळख आसलीच. पयलेच सुवातेर ताणें

म्हजे फाटीर हात भोंवडायलो.

‘ म्हजो पूत. ’

ताजो ताळो खरखरो आसलो. पुण ताजें वागप ताजेविशीं चड् करून आदर निर्माण जायसारकें आसलें.

भरण्याआका जेवणां दितालें. मामा पणजेंत मेस्तपण करी तेदेवेळार जेवपाक येतालो. तेन्नाची वळख आसली. ते वळखीन हांगा म्हाका जेवपाक आनी रावपाक दवरल्लेलो. खर्च सगळो मामा करतलो आसलो.

मामाच्या मनांत कितें आशिल्लें तें तेन्ना कळूंक नासलें.

‘ बरेभाशेन राव आनी बरेतरेन शीक. ’

म्हाका भरण्याआकाचे सुवादीन करून मामा परतलो.

हांव येवपाचो आसां म्हणपाचें भरण्याआकाक आदींच कळिल्लें. भितर सर जाल्यार म्हजे खातीर वेगळे कुडिची वेवस्ता केल्या.

भितर सरनाफुडें दाव्या हाताक कूड. हांव सरपट न्हिदल्यार वणटी-पासून कडव्यामेरेन पावता इतली लांबाय. तसोच न्हिदून दोनूय हात लांब केल्यार दोशींवशीं कडव्याक बोटांची तेमकां तेंकता इतली रुंदाय. खूंट कसो उबो रावल्यार पांल्यांतल्यान मानेमेरेन बोडकी भायर सरतली इतली उंचाय. वणटीर एक खुंटयाळें. बऱ्योच खुंटयो मोडिल्लें. सकयल न्हिदपा-खातीर खाट. म्हळ्यार पिनिच्या फळयांची दाटयिल्ली निसण.

खाटीवयर दोरी. वयणी कशी.

कुशींक फळयांक आडव्यो उब्यो कांबी मारून आनी खिळे साणावन केल्लो बांकडो. मातसो उबार. मेज करों. कुशीक कदेल. तिज्या चारूय कोनशांक आडव्यो उब्यो चार चार कांबी घटसाणीक.

ही सगळी भरण्याआकाची कारागिरी.

म्हाका ताजी तोखणाय दिसली. आदर आसलोच. हांवें ट्रंक उकती केली. खोमसां आनी पेंटी खुंटयाळ्याक उमकळायल्यो. चेड्डी, अंडरवेअर

दोरयेर वडयलीं. तांचेर तुवालो वडयलो. चादर, जमखन खाटीर दवल्लें. पुस्तकां, पेन, पेन्सिली बांकार मांडलीं.

कदेलार बसलों. मुणोवंक नाशिल्लया खिळ्याचे तोंक कुल्याक तोंपलें. तें ' हाय ' म्हणनासताना सोडलें.

——हें जनेल.

म्हज्या मुखारूच कडवो कापून जनेल केल्लें. धांपणें म्हुण पिनिची फळी लायिल्ली.

जनेल उकतें करिनाकुडें नदर भायर पडली. पांजऱ्यांतल्या वागाक अजापान पळयतात तशीं जनेलांतसून कांय भुरगीं म्हाका तेळटालीं. खीण-भर म्हाका धरून हाडून सोडिल्लयाची भावना जाली.

भुरग्यांची दशा जाल्ली. कितलिंशीच आसलीं. कोण व्हड कोण ल्हान वळखुवपाक कुस्तार आसलें. एक दोगां सोडल्यार बाकिचीं नागडीं. कचे कशीं पोटां सुटिल्लीं. पोटां धोलार अळंगार उदेल्ले. केसतडां पिसुडलेलीं. भोंकां काजुचीं फोकां कशीं पेंचिल्लीं. मनशाची संतत काय कितें म्हणपाचो दुबाव पडटालो. चले–चलयो म्हुण मात कळटालीं. चल्यांच्या चोटल्यांच्या पोंतां वयली कात कवळिल्ली. अळम्याचे मोने बोंगे कश्यो त्यो दिसताल्यो. म्हजें आंग शिरशिरलें.

' ही कुडूच्या शंकराली भुरावळ. ' भरण्याआकाच्या धेंगशार तीं एकामेकांक दसलीं. ' हीऽऽआवय येयली तुमची. '

एका फाटोफाट सगलीं कलकलत धांवलीं. कोंबये भोंवतणीं पिलां जमतात तशीं दसलीं. तेसरशीं दोगां तिगांचे फाटींर ढाऽढा ऽ ऽ करून थापटां उदेलीं.

' जीव खातत राणग्यांची. '

— ही त्या भुरग्यांची आवय–पार्बत.

जनेलांतसून तांचें घर दिसतालें. घरा मुखार केळी आसल्यो. घरार थोडे

गांवठी नळे. थोडें कोलवाचें.

कोंबये फाटोफाट पिलां घुडांत वतात तशीं भुरगीं घरांत रिगलीं. मदीं मदीं थापटां उदेत आसलीं. ते बराबर किळांचीय सुटटाल्यो.

'चेडये, धाडावन खातत तेंकां?' कोंबोसो कोण घरांत सावन आडडलो.

—हो शंकर, कुड्डो!

'चार पांच वरसां फाटीं अकस्मात दोळे फुटले. घरांत आसता.' भरण्याआका गायड कशें जावन म्हाका सगळी चवाय दितालें.

म्हाका कुड्डया शंकराक पळोवपाची इत्सा जाली.

तो भायर आयलो. ताका अदमासान चलपाची संवकळ जाल्ली. पुण दर एक पावल भरंवसो नासताना पडटालें. पावल अडखळटालें पुण तोंडां-तल्यान गाळी सहजतांयेन भायर पडटाल्यो.

तो खोपी वशीन येतालो. ताज्या घरांत आनी खोपींत अंतर सामकें उणें आसलें.

तो लागीं पावलो. काश्टी न्हेशिल्लो. भाणशिऱ्या इतली काळी. हरशीं उकतोच. चाळीस-पंचेंचाळीस परस चड पिराय आसूंक नजो. हड्डयार केंसाळ रान. माथ्यार पिकिल्लया केसांचो मुकूट. आंगलोटान आल्त मानाय न्हय पुण धश्ट पुश्ट. दोळ्यांत कुड्डेपण. धवसाण. मळबाचो विटकोर रंग.

धृतराष्ट्र दळिद्री आशिल्लो जाल्यार असोच दिसतलो आसलो.

एक खीणभर ताजे कडेन पळोवं नज जालें.

'भरण्या आका,' भरण्याआका वावुरता ते सुवातेची सुळूस घेवन ताणें उलो मारलो. 'कोण इलाहां गो?' व्हदळ गरजलेलो तो होच ताळो काय कितें अशा दुबाव येवपी ल्हव आवाजांत ताणें वासपूस केली.

'झील.'

'खडेनसून?'



बांबर

भरण्याआका वगी रावलें. म्हज्या गांवाचें नांव सटकरून ताज्या तोंडार आयलेंना. म्हाका जाप दिवचिशी जालें. पुण हांव वगीच रावलों.

‘ शिकांक इलाहा दिसता. ’

‘ हय. ’

‘ आमचीं आनी राणग्याचीं शिकततच ना. ’ लाडान म्हणचें तशी ताणें गाळ माल्ली. मागीर कानाचें शेंवट काडलें. उजव्या हातान धल्लें आनी दाव्या हातान कारटेंत हात घालीत तो खरपूंक लागलो.

म्हाका दिसलें, ताजे कारटेंत चिलवो तरी आसपाकूच जाय.

‘ हेका लाय बगया वांयच. ’

भरण्याआकान भितल्ली कोलती हाडून ताजें विडयेपोंतेर पेटयलें. तेच कोलतेर आपणेंनूय एक सतीं विडी पेटयली. म्हाका बी अजाप दिसतलें हें भरण्याआकाच्या सपनांतूच नासलें.

‘ कितें कोत्तायी गो बोरण्याआका ? ’

—ही येयली फेगरेदीची बायल.

‘ कॅशें आसाय ? ’

‘ आसा. जोरगतीक तेंब आसा न्हू ! ’

‘ तुगे खोरशीचें आजून सारकें जावंक ना ? ’

‘ दोतोरांची घरां. ’

‘ धोण ओत्ताय मुगो ? ’

‘ घे. ’

‘ भितर कोण गो ? ’

‘ झील. ’

‘ चेडो ? ’

तिणें जनेलांतसून तकलीं बागोवन पळयलें. म्हाका तिजीं दिसलीं तीं थानां. सिनेमाच्या नटयांचीं थानाळ अर्दीं चित्रां आसतात तसो तिजो

हड्डयाकडलो भाग म्हाका दिसलो.

ती आंगान धोंदेलूच आसली. व्हिस्तीद घातिल्लो. बरो दिसतालो. तिज्या हातांत धोणाचें आयदन सोबनासलें.

'धुकरांक सोकांयी सावन कांय घालुंना.'

'घाल.'

'फाल्यां दवर.'

'सदां व्हर.'

'वेतांय. रांदच्या जाय. बोवाट मात्तोलो.' फिगरेदीची बायल धोण घेवन गेली.

'बेबेर फिगरेद आत्र्या पयऱ्यांन खेपता तिका.'

'खेपूंक व्हयां आमचेक.' कुड्डो शंकर इतलो वगत आयकतालो. व्हदळ तो बायलेचेर चिडकल्लो हें म्हाका खबर नाशिल्लें जाल्यार बायलेक तो खेपिना अशेंच हांव समजतलों आसलों.

हांव भायर आयलों.

तिळसांज जाल्ली. खोपीर घोसाळी फुलिल्ली. पणजेंत मार्गार मानो बागोवन दिवे पेट्टाले. वयर आल्तिनो वयल्या बिल्डिंगांनी उजवाड दिसतालो. कांपाला वटयां बांदोडकार मार्गावयल्यान येत्या वेत्या गाडयांचे दिवे झळकताले. हांव पणजेंत आसां म्हुण समाधान जावपाक भोंवतणच्यो हयो गजाली पुरो आसात अशें म्हाका दिसलें.

'वाडलां.'

पुस्तकां कुशीक सारून त्याच बांकार जेवणाचें ताट आसलें. फुडयांत चिमणी भगभगताली. उकडया शिताची रास. ताजेर अळसान्याचो, जाळ घालपी रोस. तोंडाक घोसाळ्याची पचपचीत भाजी. घरच्या जेवणांत आनी ह्या जेवणांत उणी अदीक तिखसाणिची आनी शिजोवपाची तरा सोडल्यार फरक नासलो.

म्हाका जेवण मानवलें. घडये बांकार बसून पयलेच खेप जेवंक मेळटा म्हुण वा परकेकडेन म्हुण जांवये.

हांव जेवता आसतानाच ते आयले. गवणींत गोरवां येतात तशे फाटो-फाट चौग पांच जाण भितर सल्ले.

'जेवणकारी येयले. इडयांकार–' म्हाका नाका आसताना रोस वाडटाना भरण्याआकान सांगलें. तांची नांवां धाकू, दिपू, नाराण तें म्हाका मागीर कळ्ळें. पुण कोणाचें कितें नांव तो उगडास उल्लो ना. पुण एक एक कूळ सारकें यादस्तेंत उरसारकें आसलें. एकलो सारको कापोडयो. कुल्लेचे दांगे कशे हात पांय. तो विडयो वळटाना ताजे हातपांय कोणेंय तरी वळ्ळयात अशें दिसतालें. आनी कोण बोंचो वाकडो. कोण कानकातरो. त्या खोपटांत तीं आडखळींतलीं मोडकीं बावलीं कशीं दिसतालीं . जित्रूप.

' कोणाचो झील ? ' कसलो रोस....असो सहजतायेन प्रस्न करचो तशी एकल्यान चवकशी केली.

सगळ्यांनी बरीच रगड माल्ली. एकाच तांबयान सगळे आंचवले जावंक जाय. चड उदक वारयल्यार हाताचो वास वचत म्हुण तांकां भिरांत पडली आसूंक जाय. चेंड्डे वाल्याक हात पुशीत ते आंचवून भितर आयले. सद्चे सारके रोख जेवणाचे पयशे काडले. बारा आण्यांनी जेवण आसलें. तेन्ना पणजेंत सादे खानावळींत रुपयाक जेवण पडटालें. एकदोन आण्यां-खातीर ताणीं भल्ल्या पोटार सुमार अर्देवर भरण्याआकाकडेन घासाघीस केली. आनी मागीर धेंकर सोडीत काळखांतसून बांदावयल्यान गेले.

'विडयांकारांची जातूच...' हातांतल्या पयशांचो हिशोब करीत भरण्या-आकान तांका एक गाळ माल्ली. ते कापराची बावलीं जाल्लीं जाल्यार मात ते गाळीसरशीं लासून गोबर जातले आसले. हांव आंचवून बसलों.

कांपाला वटयां एकलोच कोण मोटामोटयान आड्डतालो. उलोवण्या-वयल्यान बरोच सोरो पियेवन तर्र जाल्लो बेबदो म्हुण कळटालो. आनी

उतरां वयल्यान किरिस्तांव म्हुण. कान दिलो तेन्ना कळ्ळें कि तो आपणाले बायलेक खेपता. घरांत आशिल्ले घरकान्नीक कितेंय तरी विचारता–पाचारता. पुण बायल परती जाप करिना. एकाय उण्यादुण्या उतरान. ताजे बोबेवयल्यान तो सदूचो झांकडी म्हणपाचें कळटालें. आज भरण्याआकान सांगिल्लो तो बेबेर फिगरेद होच हाजेविशीं म्हाका निखालस दुबाव उल्लो ना.

आतां न्हिदचे आदीं आनीक कोणाची वळख घडच्चिना अशें चिंततालों. इतल्यांत तो आयलो.

' ये येसल्या. सुटलां हापीस ? '

तो भितर आयलो. खंय सावन हांसत आयला म्हणपाची कल्पना करूं नजो आसली.

' कितले साक हाडलय ? '

तो हात हालयत आयिल्लो.

' मटकोय नाय लागलो दिसता. '

म्हजे हुजीर ताजें व्यसन काडप ताका बरें दिसलें ना.

' बरो आसय मां ? ' ताणें वळखपाळख नासताना म्हाका हडकिलो. म्हाका बरें दिसलें अशें हांवें भासयलें.

' न्हातय मां, पानी तापलां. '

तो धादोसलो. मोटी तकालस जाल्लेभाशेन ताणें मुस्तायकी देंवयली. खोमीस आनी कालसांव भितर हुमकळायलीं. घामसाणिचो वास भायर लेगीत आयलो. भरण्याआकागेर रावपी तो हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें. न्हातना बारीकसाणेन ताका पळयलो. काळसो. नदरेंत भरपी न्हयसो. दिसपांत सादो साबळो कसो.

तोपलेभर उदकांत कावळो कसो तो बुडबुडलो.

' हो आमचो येसलो. ' भरण्याआकाच्या वागपावयल्यान तो ताजो कोणतरी लागचो इतलेंच म्हाका कळ्ळें.

‘ तुवालो दी. ’ ताणें मागलो.

‘ केन्ना हाडलेलो ? ’

‘ असां काय करतंय ? ’ तो हांसलो तें म्हाका काळखांतूय दिसलें. हांसपाक अर्थ नासलो.

‘ न्हेसतलय काय ? ’

भितल्ले चेड्डेर तो न्हाल्लो.

‘ आनीक एक चेड्डी शिवांक काय जाता ? ’

‘ कायतरी दी मगो ’ आंग पुशीत भितर येवन तो काकळुटेक आयलो.

‘ कितें दिवं ? घाल तां काळसांव. ’

‘ तां फाल्यां बाजाराक जाताना घालूंक व्हयां. ’

‘ न्हेस खोमीस. ’

‘ चेश्टा करतय ? झील हंसतलो. ’ तो म्हाका चक्रोवपाचो यत्न करतालो.

‘ कोणांक ? तुकां काय म्हाकां ? ’

‘ असां काय ! भूक लागल्याहा मां. ’

‘ बग, हें दिवं न्हेसांक ? ’

‘ काय तां ? ’

भरण्याआकान वयणेवयल्या आपणाल्या पिंजऱ्या जुनेराचो फर्र करून फाळो काडलो आनी काश्टे येदो कुडको ताजे मुखार घल्लो. तो आतां कितें करतलो ह्या चिंतपांत हांव आसां थंय आसां, ताणें तो कुडको काश्टी कसो मुंजीक खोवन तुवालो कुशीक काडलो. आनी निलाजऱ्यापणान हांसत तो म्हणाय ओड्रन मुसक्याक बसलो.

म्हाका दिसलें, त्या कोणा उधळ्या परमेश्वरान बेश्टो ह्या धंगणभायऱ्याचे जांगेंत आण बसयला.

: २ :

सकाळीं उठटानाच तकली पाल्याक आदळ्ळी. सणकली. रातचो अळसाण्याचो रोस पचूंक नासलो.

हातांत उदकाचें लात दिवन भरण्याआकान सांगलें, ' ती ऽऽऽ बांदार, थंय गुवाड.'

खोपीपासून गुवाड एका उल्याच्या अंतराचरस लागसार आसली. बांद उकतो. दोशींवशीं शेतां. मदीं :बांदार पांच स माड आसले. तो आडोस आनी थंयच गुवाड. त्या माडांनी बरोच वगत उबो राववतकूच म्हाका ती गुवाड म्हणपाचें कळ्ळें. पुण बसपाक मन कांचवेलें. मुखार झिलकुटां मातिल्लीं. बांदाक धरून नीट अशी एक खळी शेकानशेक आसली. कुशि-कूच खळयेर एक मोडको सांकव आसलो. खळयेचे पलतडीं एके हारीन घांटयांच्यो खोंपी मांडून आसल्यो. खळये कडेक घांटणी उदकाचीं लातां घेवन येताल्यो. उजवे दावे वटयां नदर माल्लिशी करताल्यो आनी झप्प करून न्हेसणां कंबरा वयर उखलून बसताल्यो. फाटसून तांचीं धवशीं भोंकां सारकीं दिसतालीं.

हांव उबो आसलों ताज्या सामखार खळये पलतडीं एक घर आसलें. घरांत सावन एक सुमाराभायली घांटीण भायर भितर येताली. तिजी न्हाणी थंयच उक्ताडार आसली. फातरांच्या तीन खुरांर तोपांत उदक तापतालें.

असो उबो रावन पलतडीं नदर थिरावप म्हाकाच सोबलेंना. कोणूय पळयत ही भिरांत पडली. हांव आजून बसूंक नासलों. एक दोग जाण येवन बांदार परसाकडेन बशिल्ले. तांचे ते थरिल्ले फातर आशिल्ले जावंक जाय.

सांकवा वयल्यान दोगी तिगी घांटणी लातां घेवन आयल्यो. त्यो खंय

बसतल्यो असो प्रश्न म्हाका पडलो. त्या झिलकुटांकडेन येवन तांणीं गणयलेशें केलें. बांदार बशिल्ले उठून वता जायत अशे तरेन वाट पळयिल्लया सारकें केलें. आनी न्हेसणां उखलून तशोच झिलीं आडसाक बसल्यो.

हांवें आडनदर केली. इतले भितर, हांवें बसपा इतली मनाची तयारी केली. बसलों इतल्यांत मुखावयल्यान दोग जाण पासार जाले. बांदाचो वाट म्हणुनूय उपेग जातालो.

सामकेंच सोंसूं नजो जातकूच म्हाका बसचेंच पडलें. माडाचो आडोस धरून बसलों. फाटल्यान आयस दयस उकतें शेत आसलें. गाणीक भगभग पडिल्लो. कुल्याक थंड शितळ वात्र बसतकूच बरें ऽ ऽ दिसलें.

मुखारसून व्हदळचो देखाव्र तसोच दिसतालो. उबो रावून पळोवपाक मन कांचवेतालें पुण आतां माडाच्या आडसाक सावन पळोवपाक कांय दिसनासलें.

बांदार बशिल्ले दादले उठून गेले. घांटणीय झिलींत बावल्योशो उब्यो जाल्यो. ताणीं हात न्हेसणांक पुसले आनी सांकवावयल्यान पलतड लागीं केली.

आतां म्हाका लागसून पळोवपी कोण नासले. मुखार नदर मार जाल्यार पलतडीं ती घांटीण न्हाणयेंत न्हावपाची तयारी करता. ती उक्ताडार न्हातली हे कल्पनेनूच हांव शिरशिरलों.

न्हावन न्हेसपाची मुस्तायकी तिणें दंडा वयल्यान कुशीचे आडवे कांमीर दवल्ली. तांतूंतल्यान लांबपी तिज्या हड्डयावयले ते गांठयिल्ले दोन धवशे पांजरे म्हाका हय न्हयशे दिसले.

पिसोळ्यान पांखां सोडचीं इतले सोंपेपणान तिणें आंगावयली साडी सोडली आनी हांवें उकणयांच मुखार घालून घेतलें तकली लाताक आदळ्ळी. लात लवंडलें. अर्दें अदीक उदक रकून गेलें.

म्हज्या फाटसून एक घरधुकर आयिल्लो आनी हांव भानार नासताना ताणें म्हज्या भोंक्याकूच तोंड तेंकयिल्लें. तसोच लिमलों. उठलों. खोंपीवशीन वळ्ळों.

धबट घांटणीक पळोवपाची सुद्दय उल्ली ना. पळय जाल्यार खोपीकडेन भरण्याआका आनी कुड्डया शंकराली संतत म्हजी करामत पळयत रावल्या. हांव लजेन मेलों. आनी तेन्नाच अंडरवेअरींत कोण बदल्लेलो तो आसा तसो जाग्यार आयलो.

: ३ :

सकाळ घरयां पावसाची दडक पड्डंक नासली. बरोच वकळ जाल्लो जमनीक ओलसाण आसली पुण फोणकुलां बगर हेर सुवातेर उदक नासलें.

हांव कदेलार बसून अभ्यास करपाचो यत्न करतालों. इतल्यांत खोपी भायर पोरांचो कुलकुल आनी कुड्डया शंकराले घेंकणे वाड्डंक लागले. जनेलाचें दार मातशें कुशीक सारून भायर नदर माल्ली.

‘ हेका आसत मां ? ’ बांदा वयल्या माडांक सांसपून सांसपून शंकर भुरग्यांक विचारतालो.

‘ आसत. आसत. ’ पोरां वांगडाच बोबेतालीं.

‘ तुमी माडामुळांत कित्याक पासडी पडांक येतात ? ’

‘ नाल व्हयो. ’

‘ आवयची गाण खाया. पका, हेंकां कुशीक काड. ’

येदोवेळ शंकरांक आळाबंदा येना आशिल्ले भुरावळीक वाटेक लावपांत पकान येस मेळयलें. शंकर भुरग्यांचे फाटीक लागतकीच तीं ताका चुक-

यताली. मागीर तो बेस्टो धडपडटालो. दांत वोंठ किरिलतालो. आनी गाळिंचो शिंत्रर पाडी. पुण पकान एक शिरट काडून पाडकां कशीं सग-ळ्यांक शेपलायलीं. आपणालें व्हडपण दाखोवन दिलें. धा बारा वरसांचो पका सगळ्यांत व्हड आसलो.

'माडाक शेळो नाय मरे ?'

'नाय नाय.' माडाक पळयनासतानाच पकान सांगलें. बापूय केन्ना काय वयर चडूं अशें पकाक जाल्लें. ताजीं हुतहुतेपणां ताजे नदरेंतूच दिसतालीं.

'कोण नाय मरे ?'

'कोण नाय.' बेस्टीच भोंवतणीं नदर भोंवडायत ताणें सांगलें. म्हाका जनेलांतसून ताणें पळयिल्लो. पुण म्हजें आसप ताज्या हिसपांतूच नासलें.

सकाळच्या वेळार आनीक कोण नासलो. भरण्याआका बाजारांत गेल्लें. शंकराची बायल वावराडेपण करूंक गेल्ली. बांदावयली पावलटूय बंद आसली.

'निसारतंय मरे.'

'घट धर.'

'घट धर काय आवयची गाण ?' पोट सल्पीत ताणें पुताक गाळ माल्ली. म्हाका जनेलांतसून दिसतालें. माडाक आंगभर बुळबुळीत चिखल कोर शेळो आसलो. दर पावलाक आंगळा आंगळान तो निसरतालो पुण सावरून धरतालो. माडाक सगळ्याच आंगाक खांपां नासलीं. आसलीं त्या खांपांचें अवजाणूय ताका चट करून लागनासलें.

पकाची नदर बापाय परस नाल्लाचे पेंडी कडेन आसली. आवाशिवा करून एकदांचो तो कवाळ्याकडेन पावलो. येदोवेळ कुशीक राविल्लया पोरांनी ताळयो वाजयल्यो. शंकरान तांका लेखून मारिल्ली गाळ त्या बोवाळान कोणाक आयकूंक आयली ना. आवाज आयलो तो पकान दोगां-

तिगांचेर चटा चटा करून मारिल्लया शिटट्यांचो.

' खंयसरले वाटेन ?'

' उजवे वाटेन.'

' ह्यां ?'

' हु. ते वाटेन.'

' आवय्‌ची गाण !'

पक्काली उजवी व्हट ती शंकराली दावी आसली. शंकर दोशीवशीन पेंडी सांसपितालो. हातभर नाल्ल हाताक लागलो तेन्ना ताणें ते पेंडीर चिरपूट मारून वाजयलें. तरी ताका जून काय तर्नो म्हणपाचो सारको अदमास आयलोना. एक नाल्ल ताणें कोंचलो. वयले वयर हालयलो आनी सयकल वडयलो.

नाल्ल सकयल पडनाफुडें पोरांनी एकदम उमेदीन किळांच मारची कूय मोट्या प्रयासान दामून धल्ली. पडिल्लो नाल्ल पक्कान कानसुला कडेन व्हरून हालोवन पळयलो. आनी भाटकारान पाडेल्याक फर्मावचें तशें ताणें बापायक सांगलें. ' कोंचून काड सगळे.'

एका फाटोफाट नाल्ल पडूंक लागले. शंकर वयले वयर भेजतालो तें सकयल आयकूंक येतालें. कुशिंचीं पोरांय भेजतालीं. पुण चारां वयर आंकडे कोणाक येनासले. पेंडिचे अर्दे अदीक नाल्ल खुंटून जातकीच पांयाक काटमूय चाबची तशें जावन पक्का चवताळ्ळो.

' काय जालां रे ?....' माडाची वेंग घट करीत शंकरान वयरसावन विचाल्लें.

' भाटकार येताहा सो दिसता !'

' खरांच ?'

' लांबसून सत्री दिसताहा.'

' पाटेकाराच्यान ?'

‘ पाटेकाराच्यान तर. ’

पकाचे दोळे चकचकताले. मान वळोवन ताणें म्हजेकडेन पळयलें नाशें केलें.

‘ उतरां मरे तर ? ’

‘ आसत ते उडय. तो लांब आसा. ’

शंकराक विचार करपाक वगत नासलो. तल्लुकेक आशिल्लो बांद भागेली पाडून खाता म्हळ्यार भाटकार ताका बांदावयलोच उंबाळून लायतलो आसलो. शेलीचो निमाणो नाल्ल ताणे खुंटलो. ह्या बोवाळांत तो नाल्ल मेजूंक विसल्लो.

आंग सळपयत तो देंवलो. पोटाच्या घोलार शेळो पडिल्लो. पोट सलपून तांबडें जाल्लें. ताजी काश्टीय थतरवितर जाल्ली. जांगे कुशिच्यान एक आणा-कोय शेलेचो बोंडो कशी भायर लांबताली. जमनीर पांय तेंकनाफुडें हुस्वास सोडून ताणे विचाल्लें, ‘ लागीं पोंचलो ? ’

‘ नाय. साकवा वरसून तसो गेलो. ’

‘ खोटां बोलतय ? ’

‘ पाटेकाराच्यान. ’

‘ कितले जाले नाल ? ’

उकणयां बसून तो नाल्लांची रास सांसपूंक लागलो. पकान राशीक इकरा नाल्ल दवल्लेले आनी कुशीक पांच लिपोवन थेयल्ले.

‘ अकराच ? ’

‘ तितकेच. ’

‘ पका, माजेकडेन खोटां बोलतय ? ’

‘ पाटेकाराच्यान नाय. ’

‘ मियां आठ पर्यांत मेजलेले मरे. ’

‘ उपरांत तीन उडयले. ’ पकान आठ आनी तिनांची हाताच्या बोटांर

जमा करून सांगलें. शंकराचो पकाचेर विस्वास बसलो ना. व्हदळ शेपलांवक लावन कुशीक काडिल्ल्या पोरांक ताणे आतां लागीं केलीं.

' ये पोरांनो, कातली व्हयी मगो ?'

सगळीं कातलेचे आस्तेन लागीं आयलीं.

' इतकेच नाल गो ? काय पकान चोरल्यात ?'

पका आतां व्हदळची शिरट घेवन परत तांच्या मुखार उबो रावलो. पोरांची म्हातारी कांपली. वोंठांर आयिल्लीं उतरां ताणीं तशींच गिळ्ळीं.

' इतकेच नाल ?' शंकरान पोरांक परत विचाल्लें. पकान तांचे मुखार मोन्यानी बडी नाचयत तांकां हय म्हणूंक खुणायलें. ताणीं वांगडाच म्हळें :

' हय. हय.'

' पकान नाल चोरूंक ना मगो ?'

पकान परत तांचे मुखार बडी नाचोवन तांकां ना म्हणपाक कुरू केली.

' नाय. नाय.'

शाळेंत बाई भुरग्यांक शिकयता तशे तरेन सगळो खेळ जालो. शंकराचो दुबाव आतां चड बळावलो.

' कुड्डो आसंय म्हणांन चकंवक सोदतहय ?' पांयान वाट सांसपीत तो खोंपी म्हऱ्यांत आयलो. हांव खोंपींत बशिल्लों आसतलों म्हुण तो जाणा आसलो.

' ये झिला, ह्यां सारक्यां आसाहा मां ?'

म्हजेकडल्यान सारकी जाप आनी हिशोब मेळटलो हाजी ताका खात्री आसली. भाटकार येता म्हुण पकान मारिल्ली फट आनी मुद्दम नाल्लांचो चुकयिल्लो हिशोब ताका सारको करून घेवंक जाय आसलो. तो सामकोच परसुवादीन दिसतालो. नाखटां कोंचिल्ल्या वागटा सारको.

' झील, वांयच सारक्यां सांग बगया—'

इतल्यांत पका बाणसो धांवत आयलो. ताजे फाटोफाट ती भुरावळ.

इवें तोंड उकतें करूंक आनी पकान सांगलें; ' झील नाय घरांत. तेचां कुलेज आज सकाळचां आसा. '

' हय गो पोरांनो ? '

सगळ्यांनी पकाचे कुरवेचेर वांगडाच सांगलें : ' हय हय. '

शंकर आयलो तसो निरशेवन परतलो. भुरगीं य गेलीं. एक नदर लेगीत मारून म्हजी अवतिकाय कितें जाल्या ती पकान पळयली ना.

## : ४ :

' आयज वांचना. '

नळावयल्यान आवाशिवा करून भरण्याआकान एक दोड हाडली. आज सकाळधरयां ताजी खरस खिणाखिणाक वाडत वताली.

हरशीं तें सगळीं आयदनां नळाच्या उदकांत भरून दवरतालें. पुण आज खरशिचीं लक्षणां पळोवन ताणें सकाळींच सगळीं आयदनां पावसाच्या उदकांत भरून घेतलीं. पावळे पोंदा तोप, थाली दवरून उदक सांठयलें आनी रांदपाक जाय तितली दोड नळार सावन हाडली.

भरण्याआका खरशेतालें आनी तरी आसतना घरांतलो वावर करतालें. कामां जिवार येवन जातालीं. सद्‌चे परस कळाव लागतालो.

आज दनपार मेरेन जेवण तयार जावन म्हाका देडाक कॉलेजीक वचपाक मेळत म्हणपाची खात्री नासली. जेवणकारांकूय आज जेवण मेळत काय ना म्हणपाचो दुबाव आसलो. भरण्याआकाक कामांत आदार दिवचो अशें म्हाका मनापासून दिसलें खरें पुण असलो कसलो आदार दितलों म्हणपाचे येवजणेंत पडून निमाणीं वगीच रावलों.

येसल्याक सकाळीं कांपालार परसाकडेन वतना हांवें पळयिल्लो. तो अदीकसो केन्ना बांदार वचनासलो. ताका तें उदकाचें लात वांगडा व्हरचें पडटालें म्हुण जांवये चड करून. कांपाला वेळेर तागेलें सगळें भायले भायर जातालें. आज परसाकडेन सावन परतल्लो हांवें ताका पळोंवक नासलो. ताजी वासपूस करचीशी म्हाका दिसलें. इतल्यांत भरण्याआकानूच हांवें विचारिल्ले भाशेन म्हाका जाप दिली.

'हागोंक गेल्लो, मेलो दिसता बुडोन.' सळसळटया आदनांत धुल्ले तांबूळ वडयतना ताणें म्हळें. 'दर जोरगतीर असोच मरता.'

म्हाका कांय समजलें ना. दर जोरगतीर भरण्याआकाक खरशिचें जाता इतलेंच जाणा आसलों.

फातरीर मिरसांग वांटूंक तें बसलें. ताजेकडेन ती वांटूंक जायत अशें दिसनासलें.

'आका,' दारांत एक आडसाठी आयाव बायल उबी आसली. 'ऊठ, फातरीवयलें.'

हातांतली पोती तिणें थंयच दवल्ली आनी पालव कंबराक खोवन ती मिरसांग वांटूंक बसली.

'आगो, तें आंगावयलें तरी सोड.'

'सोडटां मागीर. तूं न्हीद वचोन.'

'आतां वांगडाच न्हिदतां!'

'तूं बरें न्हिदशी!'

भरण्याआकाचें मरण आपणाल्या हातांत अशिल्लेवरी ती उलयली.

'तुकां कोणें पत्रां धाडलीं?'

'पत्रां जाय? जोरगत म्हुण कळ्ळी.'

'आवय गे! आवय गे!'

भरण्याआका परंवत परंवत भितर गेलें आनी हांतुणार आड पडलें.

भरण्याआकान आपणाक एक पोसकी धूव आशिल्ल्याचें सांगिल्लें. दोन वरसां आदीं तिका लग्न करून कुंभारजुव्यां दिल्ली. सपन पडिल्लेवरी जावन ती आज पड्ल्या आकांताक आवयगेर धांवत आयिल्ली.

'चेडवा ?'

भरण्याआकाचो उलो आयकनाफुडें फातरीवयली मिरसांग थंयच सांडून ती भितर गेली. ताजें नांवूच चेडूं आसा म्हणपाचो म्हाका आतां उगडास जालो.

भरण्याआकान भितर ताका कितें तरी सांगलें. म्हज्या नांवाचो हयन्हयसो उच्चार कानावयल्यान गेलो.

'बरो आसा मरे ?' भायर येवन अचकीत ताणें म्हाका हडकिलो आनी तोंड भरून हांसपाचो यत्न केलो. हांवें मानेनूच हांसत हय म्हळें.

'देडाक पावपाक जाय ?'

हांवें परती मान हालयली. आतां तें व्हदळच्या परस नेटान मिरसांग वाटूंक लागलें.

काळें सावळें तें आंगलोटान भरिल्लें. ताजें आयेवपण रसरसून दिसतालें. गळ्यांत पटयिल्लो मणी, हातांत भांगराचीं काकणां, कानांत वेडी, नाखांत पिली. ताजें काशेंतलें न्हेसपूय सोबून दिसतालें. आंगावयल्यो चडश्यो वस्ती भरण्याआकानूच केल्ल्यो. भरण्याआकाची खोंप पळोवन हे गजालीचेर कोणाचो विस्वासूय बसचो नासलो. पोसके धुवेखातीर इतलें कोण करीत हें खरेंय दिसचें नासलें. पुण दोगांयचें एकामेकांकडेन वागप पळयल्यार तांचें आवयधूवपण रगताच्या नात्या सारकेंच दिसतालें.

तिनसांजा भरण्या आकाचो सामकोच मुड्डो जालो. धोण व्हरूंक आयिल्ले फिगरेदीचे बायलेन ताजी वासपूस केली. तिका जाप करपाइतली उसंतूय ताका खरशीफुडें जालिना.

सदचे सारके विंडयांकार जेवणाकारी मोन्यानी जेवन गेले. आज तांणी

पयशांकडेन वाणषण करिनासतना पयशे चेडवाच्या हातार दवल्ले. भरण्या आकाची खबर घेतना, भरण्याआकाचे च्चिंतेपरस भरण्याआका खंयसल्यार दुसरेकडेन सवाय जेवण खंय सोदूंक वचप हाजीच चिंता तांच्या तोंडार दिसताली.

' येसलो दिसलेलो ? ' चेडवान तांचेकडेन वासपूस केली. एकल्यान तोंड उकतें केल्लें इतल्यांत दुसऱ्यान ताजें चेड्डेपोंत ओढून ताका शिटकायलो.

' ना. आज खडेनच दिसलां नाय. '

' मेळ्ळ्यार सांग, आकाचें चड जालां म्हणोन. '

' आतां येदे रातचो खंय मेळतलो ? '

' गेलोसो दिसता वाडीक. '

' आकाक सांगुकच ना खंय. '

' गरजेचां काम आसूंक व्हयां. '

भितल्लयान भरण्याआकान फकत कूस वळ्ळी.

विडयांकार गेले. चेडवान आकाक येसल्याची खबर सांगली. चेडवाल्या उलोवण्या वयल्यान ताका येसलो आयिल्लो नाकाच आसलो. ताजेविशीं उलयतना ताजो ताका दुस्वासूच आसा-सो दिसतालो. मात भरण्याआका ताका मदीं मदीं खेपुनूय तो येतलो म्हुण वाट पळयतालें. तो येंवचोसो ताका मनापासून दिसतालें.

हांत्र हांतुणार आड पडलों. सगळ्याक थंडाय फांकिल्ले भाशेन दिसताली. भरण्याआकाले खरशिचो आवाज मात एका तालार येतालो. त्याच तालार खळये पलतडीं घांटयांच्या खोंपिंनी चलिल्लया भजनाचो आवाज येतालो. उतरां कळनासलीं. पुण ताळ झांजिचो आनी घोलक्याचो आवाज घणघणीत बरो कानांर झडटालो. भरण्याआकाले खरशेच्या वेगार भजनाचो वेग वाडटा काय कितें असो भास जातालो.

कांपाला वयल्यान बेबेर फेगरेदीची बोब आयकूंक येताली. सदचे सारको

तो घरांत आशिल्ले आपणाले बायलेक खेपतालो.

चेडूं भरण्याआका कुशीक न्हिदिल्लें. मदीं मदीं तें आकाक कितें जाय नाका तें विचारतालें. ताज्या कानाकडेन फुतफुततालें.

'आका ?'

'अं....'

'कसाय करूं ?'

'नाकां.'

'आका ?'

'अं...'

'तें खंय दवल्लां गो ?'

'अं...'

'सारकें जाग्याक आसा मगो ?'

'येसलो येवंक ना ?'

'आतां खंयचे मध्यान्नेर येत म्हुण देव जाणां !' चेडूं सुस्कारलें.

म्हाका न्हीद पडली ना. भरण्याआकाचें कितें जातलें हाजे परस म्हज्या मनांत दुसरेच विचार येताले. ...चेडूं आतां भितर कशें न्हिदलां काय ? तें एके कुशीर न्हिदलां जाल्यार ताजो हडूडयावयलो पालव निसल्ला जायत...तें उदारें न्हिदलां जायत जाल्यार व्हदळ भिरसांग वांटटाना हालपी ताजीं थानां आतां थाकाय घेत पडल्यां जायत...

आनी हांव ओमथो न्हिदलों.

: ५ :

पावस सोंपलो तरी मदीं मदीं आडवेळी दडक झडटाली. परसाकडेन वतना हांव सत्री घेवन वतालों. पावस नासतनाय हांव सत्री घेवन वतां ही गजाल शेंकराल्या भुरग्यांक खूब दीस मजेची दिसताली. हांव एका हातांत सत्री आनी दुसऱ्या हातांत उदकाचें लात कशें धरतां हाजी नकल पका भुरग्यांक करून दाखयतालो आनी बयल्यान म्हाका दोळो गोडटालो.

आतां ते बांदावयले गुवाडेंत म्हजोय एक फातर थरिल्लो. तो म्हाका खूब बऱ्याक पडटालो. मुंडोभर उबार आशिल्ल्यान धुकराचें सोंड मोटया प्रयासान लेगीत म्हज्या कुल्यांक तेंकूंक पावनासलें. त्या फातरार बसल्यार मुखार आनी आशीकुशीक जायतशी नदर मारूंक मेळटाली.

चड उपेग जातालो तो सत्रेचो. बांदावयल्यान दादले पासार जातकीच सत्री सारकी आडोसाक हाडूंक मेळटाली. मुखावयल्यान बायलां गेल्यार तांचें तोंड पळय नासतना बाकिचो देह नियाळूंक मेळटालो.

पलतडीं सामखार घाटयां झप्प करून न्हेसणां उखलतकीच सत्रेच्या आडोसाक सावन तांचीं धवशीं काळशीं भोंकां तीं बससर पळोंवक मेळटालीं.

मुखार सत्री आसा म्हूण झिलकुटांत बसपी घाटयां धंगण सोडून बसतालीं. सत्रेच्या ल्हानशा बुराकाक दोळो लायल्यार तांचो भेंडासकयलो भाग दिसतालो.

सत्रेचो बेस बरो उपेग जातालो तो धबट घांटीण न्हाता तेन्ना.

आत्या पयऱ्यान ती तिगेले उकते न्हाणयेंत न्हाताली. म्हजो बसपाचो फातर सामको तिज्या सामखार आसलो. हांव फातरार बसतकीच म्हजेखातीर मुद्दम न्हावंक आयिल्लेभाशेन ती येताली. आंग पुसपाचो तुवालो, घालपाची चोळी, पोलको आनी न्हेसपाची साडी ती कुशीक दांडयेर हुमकळायताली. धगमोड्या उदकांत अचळय हात बुडोवन उदका अदमास

घेताली. आनी उपरान्त आंगावयलें न्हेसण सोडी. पोलको काडी. पोलक्याचो निमाणो बुतांव सोडटाना तिजो हात वळ. घागऱ्यार आनी चोळयेर ती न्हाताली. एक दोन तांबये आंगार रकयतकीच तिका चोळयेचीय नसाय जाताली. काडटाली आनी खामलेर हुमकळायताली. तिज्या आकांत देहासारकीं तिजीं थानांय आसलीं. तांकां शाबू लावन चोळटाना तीं हेवटेन तेवटेन लबलबतालीं. दाट चिखलांत हातांतले थिगूर निसरतात तशीं तिज्या हातांतल्यांत तीं सळकतालीं. येदो वेळ बाळंत बायले भाशेन न्हावपी ती उबी रावताली. घागऱ्याचे दशे सोडटाली आनी आंगाची नाका आशिल्ली कात देवोंवची तसो घागरो देंवयताली. भितर उरताली ती धवशी चेड्डी. कांय वेळान जांगो घांसताना तीं चेड्डी सोडी. पांया वयल्यान काडी. चेड्डे भितल्ली सकली काळीकिट्ट सुवात हयन्हय दिसताली. मागीर शाबू लावन तिका ती धवशी करी.

सत काय सपन असो खीणभर दुबाव पडटालो. तो एक सुवाळो आसतालो.

न्हाताना ती आशिकुशिचें मातूय भान दवरिनासली. सगळे भोंवतणचे दोळे फुटल्यात अशे तरेन तिजें न्हावप चलतालें. तिका पळोवपी सगळो वांठार म्हजेवरीच सैमांक येतालो जावंक जाय.

खूब दिसतालें. दर खेपे दिसतालें. तिज्या थानांक हात लावंक मेळचो. ती किरमुवपाक मेळचीं. वेंगेंत ती जावचिना तरी तिका वेंग मारूंक मेळची. आनी अचळय धगमोड्या उदकांत जशी ती बोट घालता तशेंच तिज्या जांगांमदीं म्हाका बोट घालूंक मेळचें.

आज फातरार बसून हांव तिज्या न्हावपाची वाट पळयतालों. पुण तिजी भायली रांदन पेटूंक नासली. हांव उठपाक सोदीं इतल्यांत आडवेळ्या पावसाची एक दडक आयली. बाकिचे सत्री नाशिल्ले वांगडचे हागपी बेगिबेगीन धांवून गेले.

हांव सवकासायेन उठलों. चेडडेची नाडी बांदतालों. म्हणसर घब्ब घब्ब करीत बांदा वयल्यान कोणतरी धांवत आयलो. म्हजे कुशिच्या माडा आडोसाक रावलो. वावझड मारताली. हांवें तशीच गांठ माल्ली. सत्री सारकी धल्ली. मुखार पळय जाल्यार धव्रड घांटीण. माडा आडोसाक रावून म्हाका पळयता. ती सांकवावयल्यान आलतडीं आयिल्ली आनी बांदावयल्यान वताली

ती हांसत आयली. हांव खूब उसरां हांसलों. माडाकुशीक पावलों. आतां फुडें कितें घडटलें तें कळचेआदींच ती म्हजे सत्रेंत आयली. तिज्या मोटसायेच्या मानान तिका दोन तरी सत्र्यो जाय आसल्यो.

दाव्या हातांत रितें लात, उजव्या हातांत सत्री आनी उजवेवशीन ती. हांवें चडूच आंग चोरपाचो यत्न केलो. आपशींच जालो.

' उधरतक छोडना. '

तिणें खोंपी कडेन बोट दाखयलें. हात हालयताना तिजें भूज म्हज्या भुजाक घसटलें. तिणेंय आपणालो दावो हात सत्रेक धल्लो. तिजो हात म्हज्या हाताक तेंकिल्लो. मदीं मदीं तिजो कुलो म्हाका तेंकतालो. म्हज्या हाताचीं बोटां तिका लागतालीं. पुण तीं तिज्या भुजांक तेंकतालीं काय थानांक तेंकतालीं तें पळोवपाचें धाडस म्हाका खोंपीकडेन पावसर जालें ना. हात मात तापलो. सत्रेचो दांडो लोखणाचो आसतो जाल्यार खात्रीन कडटलो आसलो.

दडक त्याच नेटान झडटाली. खोंपींत दांग मारून पयलीं हांव भितर सल्लों. सत्री घेवन ती भायर उबी रावली.

' हम मार्कीटसे आते वक्त वापस करेगा ! ' मान बागोवन तिणें सांगलें. हांवे हय काय नाका म्हूण मान हालयली तें म्हाकाच कळ्ळें ना.

ती गेली.

भरण्याआका उदकाक गेल्लें. ताका कशें सांगचें ह्याच विचारांत पडलों.

हांव चिप्प भिजिल्लों.

दनपारां बाजारांत सावन धबट घांटीण परतली तेन्ना पावस थांबिल्लो. पाळयल्ली सत्री तिणें दारार दवल्ली.

'इधर रखती हूं। भोत— '

इतल्यांत घरांतसून भायर येवपी भरण्याआकाकडेन तिजी गांठ पडली.

'ए घांटीण, इधर यो.'

आकाच्या उल्यार ती थांबली. आकान पेटयिल्ली विडी पाळयत तिका विचाल्लें : 'झिलाची सत्री तुम कायकू हेली ?'

'बरसात था.'

'बसा था तो क्या होया ?'

भरण्याआकाली हिंदी ती ! पावसाखातीर सत्री व्हेली म्हुण घांटीण परती परती सांगताली आनी उपकार आठयताली. आनी आका तिका जायफाय उलयतालें. निमाणें ती बडबडत थंयसून गेली.

'आनी केन्ना फसशी !' इतलो वगत आडोसाक बसून मोन्यानी आयकुपी म्हाका आकान शिटकायलो. ताज्या सगळ्या उलोवपांतल्यान धबट घांटणिचीच चूक दिसताली. हांव संवळो आसलों.

'लोकांक अशींच पेड्डयार करतात.'

कितें करतात तें म्हाका कळ्ळें ना.

'भावणीवण करतात. जातपात कोण लागना.'

आतां म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. जांव एकदांची भानगड पाळवली म्हुण सुस्तावलों आनी दनपारां कॉलेजीक गेलों.

कॉलेजींत आजून कोणूच इश्ट जोडूंक पावूंक नासलों. पयलो पिरीअड सुरू जावपाक आजून कळाव आसलो. भायले गरादींत म्हजे क्लासींतले भुरगे एकाभेकाचीं फकाणां मारताले. हांव पुराय वेगळो आसलों. एकल्यान सगळ्यांचें लक्ष म्हजेकडेन थिरायलें. म्हज्या रोल नंबराचोय उच्चार जालो. तेन्ना हांवें नदर हाळयली. कान दिलो. तांची नदर म्हजे सत्रेर आसली. सत्रेर

व्हडल्या अक्षरांनी म्हजें नांव सुतान भरिल्लें आसलें : धर्मू यशवंत पाळणी.

‘ आरे, हांवें पळयलां व्हदळ. ’

‘ कोणाचें ? ’

‘ हा ऽऽ.... ’

‘ कितें ? ’

‘ सत्री हीच ती. व्हदळ मार्किटांत घेवन भोंवताली. ’

‘ हेंच नांव ? ’

‘ बॅट ! ’

हांवें आयकलें– ना आयकलेंशें केलें. नांव लिपता तशी सत्री परतिली. तांच्या ध्यानांत येनाफुडें सगळे एखो करून हांसले आनी विस्कटले. हांव लजेन मेलों. तीं पांच मिनटां म्हाका युगासारकीं दिसलीं. वगत सारचो म्हूण टॉयलेटांत गेलों. पेंटिचे बुतांव सोडले आनी मुखार नदर पडली. मुखावयले वणटीर लापसान निवळ बरयिल्लें.

धर्मू यशवंत पाळणी
No 15
ताजे सत्रेची मालकीण
घोडेल घांटीण

म्हाका मुतूंक जालें ना.

: ६ :

अकस्मात जाग आयली.

सपनाचो अर्थच लागना जालो. तशें सपन पडिल्लेंच झिळमिळें...धुंवसर.

...धबट घांटीण न्हाताली. तेन्ना खळी हुपून पलतडीं गेलों. तिणें जांगो पेंचल्यो. भितर बोट घालूंक सांगलें.

बोट मुखार केलें. इतल्यांत धबट घांटणीची पार्बत जाली. पोलक्याचे बुतांव सोडोवन ती मुखार आनीक कितें करूंक सोदी...

इतल्यांत जागो जालों....

सामको तायट जाल्लो. हातांत धरून तसोच न्हिदून पडलों. त्या सपनाची परत वाट पळयत...पुण रोखडीच फांतोड जाली.

× × ×

एकदीस पार्बत भुरगीं शाळेंत शिकनात म्हुण भरण्याआकाक सांगताली.

'शिकनात जाल्यार माती खातलीं!'

'आवय बापायक पोसतलीं हीं!'

'पुण आका, घरांत म्हुणून कोण दाखयणारां व्हयां गो. आमची संतत बश्टी शाळेंत शिकांक इल्याहा?'

'मागीर तुसण दवरूंक व्हयां.'

भरण्याआकाक ट्यूशन म्हणपाचें आसलें. पार्बत वावराडेपण करता थंय तिणें हें उतर आयकिल्ल्यान तिका संवकळ जाली.

'मियां वावर करतंय त्या कामतीगेर भुरग्यांक तुसाण दिवंक मास्तर येता. आमकां गरिबाक तो परवडटा?'

'गरीब मास्तर दवरूंक व्हयो.'

'तुजो झील....'

'तो मास्तर? तो शिकता.'

‘ कुलेजचे भुरगे तुसाण दितत मगो. तो देसायागेर येता तो सकाळीं कुलेज शिकता आनी सांजचो तुसाण दिता. ’

भरण्याआकान विचारतकीच हांवें हय म्हळें. ट्यूशनाची फी बी थल्ली ना. मागीर पळोवचें इतलेंच थाल्लें. हें सगळें भरण्याआकानूच म्हजे असवडीं थारायलें.

खोंपींत जायना जाल्लयान आनी आक्काकूय भुरग्यांची करंदाय नाका आशिल्लयान शिकोवणी पार्बतील्या घरांतूच चलताली. घर म्हळ्यार एक रांदची कूड आनी एक लांबरूंद साल इतलीच सुवात आसली. सगळीं भायल्या सालांतूच न्हिदता उठटालीं.

पयलो दीस असोच गेलो.

म्हाका पक्का बगर हेर कोणाचीं नांवां खबर नासलीं. थोडीं कळ्ळीं पुण पक्का बगर एकूय मतींत उल्लें ना. पक्का पांचवे यत्तेंत आसलो. पुण ताका सारकी ए बी सी डी लेगीत येना आसली. बाकिचीं कोण पयली दुसरी अशीं. कोण शाळेंत वतालीं. पुण तेर्म करूंक ना म्हुण तांचें थंय नांवूच नासलें. पयलो दीस तांकां कितें शिकोवचें हे येवजणेंतूच गेलो.

हांव शिकयताना शंकर लक्ष दिवन आयकतालो काय ताज्या कुड्डया दोळ्यांक लागून तो नदर थीर करतालो म्हुण तशें दिसतालें, नकळों.

पयल्या दिसा जेवणा आदीं शिकोवणी सुरू केली. तर पक्का सकट सगळ्यांक जेवणाचो हुसको आसलो. सदांच अशें घडटलें म्हुण जेवणा उपरांत शिकोवणी दिवची अशें थाल्लें.

शंकरान आनी पार्बतीन पक्काचेर चड लक्ष दिवपाक सुचयिल्लें. पक्काक शिकोवणी दवल्लया तें मानवोंक नासलें. ताणें पर्वा केल्ली दिसलिना. पक्काक कसो शिकोवचो हाजेरस ताका कसो निवळावचो हाजेच विचार मतींत चलतालें.

काल रातीं हांव बरोच वोगोत मेरेन उल्लों. अ आ इ ई करतां करतां

पका सोडून हेर सगळीं सुस्त न्हिदलीं. तांचे कुशीक पार्बत आड पडली. कोणाच्या भोंकांत कोणाची मान तर कोणाचे जांगेंत कोणाचे हात. मेळटा तशीं लवंडलेलीं. दुसरे वाटेन, शिक्रयता तें आयकतां आयकतां शंकर न्हिदिल्लो. घोरेंवकूय लागिल्लो. उरिल्ले ते पका आनी हांव.

आमचे मदीं एक पेत्रोलाचो दिवो जळटालो. आमच्या सांवळ्यांक लागून फाटसून काळोख मांडिल्लो. पकाक हांव गणीत समजायतालों. उजवो पांय लांब सोडून दावो पांय दोडून हांवें ताजेर मान तेंकयिल्ली आनी दाव्या हातानूच पकाक दाखयतालों. उजव्या हातालागीं सामकीं म्हज्या कुल्याक तेंकतात अशीं भुरगीं न्हिदिल्लीं. तांचे कुशीक पार्बत. हात लांबयल्यार पावतलो आसलो. कल्पनेनूच स्वास धगमोडो जालो. पका मान सकयल घालून गणीत सोडयतालो. हांवें ल्हवूच पार्बतीवशीन पळयलें. तिजी झांपडी लागिल्ली. हांवें उजवो हात भुरग्यांच्या फाटीर दवल्लोसो केलो आनी पार्बतीक तेंकयलो. तिजे पोटकळेक बोटांचीं तेमकां लागलीं. थंड लागलें. तसोच तो हात वयर काडलो आनी पकाक सारकी समजावणी दिवपाचो मुद्दम आवाज काडलो.

‘ आजून कळूंक ना. ’

आनी हांव शिरशिरलों. पार्बतीन म्हजो हात आपणाल्या थंड हातांत घेतिल्लो आनी आपणाल्या हड्डयार दामून धरिल्लो.

म्हजे दांत एकामेकांचेर आपटताशे जाले. पोलक्या पोंदाक चोळीबी नासली. हाताक लागलिना. पोलक्या भायल्यानूच किरमुवपाक लागलों. थानां इतलीं मोव आसतात म्हणपाचें तेन्नाच कळ्ळें. थानांचीं फुडलीं पोतां चिमटेन धल्लीं. माजराचे व्होटयेचे पाने हातांत धरता तशे. थोड्या वेळान थानां तट्टटून आयिल्ले भाशेन जालीं.

हांवें जांग हालयली.

पका आनी दिवो दोनूय म्हाका नसाय जाले. पुण दिवो वाडोवन

पकाक कटोवपाचें धाडस जालें ना. पकाक शिकोवपाचें निमित्त करून असो हात दवरपांतूच हाशील आसलो.

गणीत घातल्या उपरांत हांव ताका 'जांवना ? कळना ?' इतलेंच परत परत आवाज बदलून विचारतालों. आनींक कितें शिकोवपाचें म्हज्यान घडनासलें. पकाचेंय लक्ष नासलें. ताजेर नदर थिरायली तेन्ना तें कळून आयलें. उमथे मानेन तो कितेंतरी भकतालो. दाढमणां हालतालीं. पळय जाल्यार दाव्या हातांत लापीस आनी उजवो हात काळखांत भोंका फाट-ल्यान. लिपोवन दवरिल्लया उंडयाचे कुडके काडून काडून खाता. पार्बतीन फाल्यां सकाळीं च्यायेकडेन सगळयां खातीर हाडून दवल्लेल्या उंड्यांचेर अशी हावळ आयिल्ली.

'चोरा,' हांवें मनांत म्हळें.

'पका, तुजें लक्ष खंय आसा ?'

तो वग्गी रावलो.

'तुजो उजवो हात खंय ? सांगूं आवयक ?'

आतां मात ताणें उमथी मान वयर केली.

'आनी तुजो उजवो हात खडें ? सांगूं बापायक ?'

थापटाक थापट दिंवचें तशी ताणें जापेक जाप दिली. हांवें सट्ट करून हात ओडून घेतलो.

'पुरो तुसाण, यो आतां.' भायर भरण्याआकाची साद आयली.

## : ७ :

परतें दुसरे जोरगतीर आकाक भरून आयलें. दर जोरगतीर अशें हें भरणें ! आकाक भरण्याआका कित्याक म्हणटात तें तेन्ना कळ्ळें.

बोंबर

'तुजें कुलेजचें शिकप केन्ना सोंपतलें ?'

भरण्याआका कित्याखातीर विचारता तें म्हाका समजलेंना.

'शिकोन दोतोर जातलो मरे ?'

हांव गोंदळ्ळों. ताका कशें समजावन सांगचें तेंच कळ्ळें ना.

'कितल्या दोतोरांचीं घरां भल्लीं. एकल्याक हें खरशिचें कळना.'

आतां म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो.

'तूं पूत म्हणोन तरी—' आनी ताका धांप लागली.

सकाळीं परसाकडेन वचपी येसल्याक ताणें सांगलें :

'आयज तुकां पुलीस धरून व्हरत.'

फाटले खेप खरशींदिसा येसलो सकाळीं परसाकडेन गेल्लो तो तिसऱ्या दिसा उदेल्लो. भरण्याआकान तापय काडटकीच ताणें सांगिल्लें :

'काय करतलंय ? पुलीसांनी धरून हेलो.'

'कोणाचां घर काडललंय ?'

'हगांक बसललंय म्हगो कांपालार. पुलीसांनी येवन उठयलो. सारक्यां लिमूंक सुद्दां दिलां नाय.'

भरण्याआका तशेंय परिस्थितींत मुमुरख्यांनीच हांशिल्लें.

'दोन फावटीं तुकां धरून नेलय मागीर परत थंयच कित्याक मांतुकेक मारूंक वयतय ? बांदाक काय वसाड पडल्या ?'

खरें म्हळ्यार येसल्यान ते दीस सुकी फटास मारिल्ली हें मागीर भरण्या आकाकय कळून चुकिल्लें. पयले खेप येसल्याक हागता थंय पुलीसांनी धरून व्हरून धा रुपया दंड घातिल्लो ही खरी गजाल. ते धा रुपया भरण्याआकानूच फारीक केल्ले. पुण दुसरे खेप येसल्यान आकाक चिकान केल्लें. ते दीस तो पणजेंत हांगां थय हेडटालो. बाकिच्या विडयांकारांकडेन आकाची वासपूस करतालो. विडयांकारूय आपणाले जातीर वचून ताका पाकतार जाल्ले.

आज परसाकडेन सावन येसलो ताकतिकेन आयलो.

‘ च्या दितय मां ? ’ पेलो मुखार करीत ताणें सांगलें.

‘ बोवाळ कित्याक ? खरशिचें हांव. ’

‘ जावंक व्हयां. ’

‘ खंय ? ’ च्या गाळटा ती थांबोवन आकान विचाल्लें.

‘ वाडीक. ’

‘ वाडीक ? ’

‘ बायल बरी ना खंय ! ’

‘ कोणें सांगलां ? ’

‘ वाडीचो इट्टल भेटलो हगांक गेल्लो थंय. ’

‘ तेका कसां कळ्ळां ? ’

‘ कालच इलो तो वाडीकसून. ’

‘ मागीर ? ’

‘ जावंक नको ! पांच म्हयने भरतले तिका. ’

भरण्याआकान हिशोब केलो. ‘ पांच कशे ? हो सवो म्हयनो चलंक व्हयो. ’

‘ आसात. ’

‘ मगे, जातय मां ? ’

‘ चलान जातलय ! शेळक्यां नको ! ’

‘ कितें जोडटा तर.... ’

तरी आसताना भरण्याआका कुथनत कुथनत भितर गेलें. बोटव्यांतली पांच रुपयांची नोट काडून ताणें ताज्या हातार दवल्ली. तसो तो धादोसलो. पुण ताणें तोंडा वयली मिरी बदल्लिना.

‘ आनी...’ भरण्याआकान ताका उगडास केलो.

‘ तां बगतय मां. ’

‘ कि लो तेप बगतय तूं. ’

‘ असां काय ? माणसार विस्वास नाय ! ’ कितल्या तेंपान तो गंभीर जाल्लो.

‘ विस्वास आसा म्हण तर—’

आका भितर गेलें. पोतयेंत घाल्डन ताणें कितें तरी ताज्या हातांत दिलें.

‘ केत्रां येतलय ? ’

‘ खांक कसां जातलय. तुजां खरशिचां ज्यास्ती जायत जाल्यार ’... घरच्या परस भरण्याआकाचो हुसको चड आशिल्ले भाशेन ताणें कळवळून सांगलें.

तो भायर सल्लो. भरण्याआका दारार रावून ताका दोळ्यांआड जायसर पळयत रावलें. फकत ताज्या नांवान ताणें बोटां मोडपाचें बाकी दवल्लेलें.

सांज मेरेन भरण्याआकाचो खरशीन मुड्डो जालो. आनी सांगून धाडिल्ले भाशेन कुंभारजुवेंच्यान चेडूं आयलें.

‘ वेळार पावलें ना ? ’ भरण्याआकाची वासपूस करून ताणें म्हाका पळयत म्हळें.

‘ येसलो गेलो. ’

‘ खंय ? ’

‘ वाडीक. ’

भरण्याआकाची जाप आयकून चेडवाक बरें दिशिल्ले भाशेन जालें.

‘ कित्याक ? ’

‘ बायल बरी ना खंय ! हो सवो म्हयनो न्हू ? ’

चेडवान एक लांब हुस्कार सोडलो. आपणाल्या लग्नाक दोन वरसां जावन गेलीं पुण आपली कूस आजून उजूंक ना हेच खंतिची जाणवीक ताका त्या खिणाक जाली जावंक जाय. कांय वेळ आवय धूव दोगांय वगी रावलीं.

दोगांचेय बाबतींत तें एक असह्य मोनेपण दिसतालें.

गाड्याक लागिल्ले भाशेन चेड्डूं वात्राक लागलें. फेगरेदीची बायल घोणाक आयली. तिणें आदीं भरण्याआकाची खबर घेतली.

‘ चेड्डूं केन्ना येयलोलें ? ’

‘ व्हदळ. ’

‘ कसो आसा घरकार ? ’

‘ बरो. ’

चेडवाच्या घायावयली परती खत्रली निखळ्ळी. तें न्हिन्नळ्ळेवरी जालें.

‘ फेगरेदमाम कसो आसा ? ’

‘ आसाय. सोद्दां पिताय. ’

‘ तसोच ? ’

‘ ओय. आनी गाळी मात्ताय. ’

‘ कोणांक ? ’

‘ दुसरो आयकोन घेताय ? ’

‘ तुकांच सोवता दिसता. ’

‘ पुण म्हुजे असवडीं. रावतलें ? ’

‘ उरतलें दोन चार दीस. ’

फेगरेदीली बायल गेली. कांय वेळान पार्बत भरण्याआकाचे खबरीक आयली. हांवें तिरशे नदरेन पळयलें. ती आयली तशी खबर घेवन परतली. शिकोवणी बंद जाल्ली. त्या दिसा सावन हांवूय परतो वचूंक नासलों आनी म्हाका कोणें आपोवंकूय नासलो. भरण्याआकान मर्दी वासपूस केल्ली ती म्हजेच कडेन. हांवें अभ्यासाक लागून फावना अशें तात्पुरतें निमित्त मुखार केल्लें. धा पंदरा दीस शिकयिल्ल्याची फी भरण्याआका पार्बतीकडेन मागत जाल्यार नसती भानगड उपरासत म्हुण म्हाका भिरांत पडिल्ली. आकाक तशी वान्सा जावची न्हय म्हुण हांव मनांतल्या मनांत देवा कडेन मागतालों.

विडयांकार मोन्यांनी जेवन गेले. घराकुशिच्यान वतना शंकरान तांकां हडकून मटक्याचो ओपन आनी क्लोज नंबर विचाल्लो.

बेबेर फेगरेदीचें बायलेक खेपून जालें.

पलतडच्या घांटयांचें इयाँगइयाँग आनी हेळ काडून चलिल्लें गात्रपूय थाळें.

म्हजें जेवण जालें.

गाणीकडेन भिकण पावचें तशी टर्मिनल फाल्यांर पाविल्ली. अभ्यास करपाक जाय आसलो. पुण जायनासलो.

भरण्याआकाचें भितर चड जालां आसतानाय चेडवान म्हाका हांसत घाडलो. हांव नाका नाका म्हणटा आसताना तें वाडटालें तेन्ना म्हजो हात दवल्याक तेंकलो. तो हात ताज्या हाताक तेंकिल्लो जाल्यार...जेवन उठटकीच म्हाका दिसलें.

मोव केल्लीं चार कुयां भरण्याआकाक खावोवन चेडूं उठलें. तें आजून जेवंक नासलें. जेवणा आदीं ताजी न्हावपाची तयारी चलिल्ली. घामसाणीन ताजें आंग चिकचिकलेलें. खाक्यांत पोलको ओलो जाल्लो. भितल्ले रांदनी वयलें तापिल्ल्या उदकाचें तोपलें ताणें ओणंव घाल्लन भायर हाडलें.

ओणंव घालताना ताज्या थानांचें पडबींब काळखांतूय त्या हून उदकांत पडलां जायत काय ? म्हाका दिसलें.

तें भायर आयलें. जनेलांत सावन तें दिसूं येतालें. पुण मुखार आशिल्ल्या दिव्याचो उजवाड म्हज्या दोळ्यांर मारतालो. म्हजे कल्पनेप्रमाण म्हजें मुखामळ ताका भायरसावन नीट दिसूंक जाय आसलें. तशें जाल्यार म्हज्या तोंडावयल्यो भावना ताका कळत काय ?...दिवो वाडयतकीच तें भायर येवन म्हजे कुशींत रिगत काय...? म्हाका एक्कासारकें मनांत दिसूंक लागलें.

काय बरी संद ! भरण्याआका भितर सुमरती भायर. खोंपींत आनीक कोण ना. हांव आनी चेडूं....चेडूं आनी हांव...चेडूं...

उठलों. आतां मायले भायर वचून ओल्यांनीच आशिल्लया चेडवाक कित्याक वेंग मारची न्हय...? तें आइडतलें आडायतलें. ...काय 'भितर यो...दितां'....म्हुण सांगतलें...?

हांव तसोच हांतुणार पडलों. बाकार दिवो पेट्टालो. वाडोवपाचें भान उल्लें ना. जाणवीक जाली तेन्ना आसूं अशें दिसलें.

तें न्हावन भितर गेलें. ओलें कापड आंगार आसलें. बेगिबेगीन गेल्लयान सारकें दिसलें ना.

वाटेक दोळे लावन बशिल्ले भाशेन हांव पळयतालों. दिवो वाडोवंक तें आयलें. ताणें उजवो हात मुखार केलो. आंगार कापड आसलें पुण वयर चोळी पोलको कांयच नासलें. पालव ताणें भुजांर आंवळून घेतिल्लो. वातीर वावुडिल्ल्या हाता बराबर ताजो पालव ओडलो आनी पोंदच्यान एका थानाचो धवसो भाग दिसकून गेलो. हांव न्हिदलां काय जागो आसां हें पळोवपाक ताणें म्हजेर नदर माल्ली. दोगांयची नदरानदर जाली. दिवो वाडोवन तें म्हजे कुशीक कित्याक आयलेंना तेंच हांव चिंतूंक पडलों. हाता कडेन आसताना हात ओड्न ताका कित्याक हांवें लागीं केलेंना ते खंतीन पडलों.

व्हडीरात मेरेन न्हीद पडलिना. आतां येतलें मागीर येतलें करीत कूस बळीत रावलों. तापलों. खूब तापलों. तापत रावलों. हुस्वास इतलो हून आसता म्हणपाचो पयलेच खेप अणभव आयलो. सोसूंक नजो जालें तेन्ना उठलों. भितर वचून चेडवाक उठोवपाक. ना जाल्यार थंयच ताजेकुशीक न्हिदपाक...

उठलों खरों, पुण भितल्लया दाराकुशीक पावतकीच भरण्याआकाची धांप लागसून कानांर मारपाक लागली. पावल उखलना जालें. पुण स्वासाचो जोर उतरूंक नासलो. खीण दोन खीण अशेच थरथरपांत गेलें.

इतल्यांत माथ्यावयर दाणयेक हात लागलो. थंय न्हातना चेडवान

सोडून वडयिल्लें आंगावयलें कापड आसलें. ताजेर घामसाणेचो पोलको आसलो आनी भितल्ली चोळी. तिनूय नग घेवन हांव परतो हांतुणार आयलों. कापडाची कवळी कुशीक धल्ली. जांगेत घातली. कंबराची चेड्डी कुशीक काडली. पोलको आनी चोळी हड्डयाकडेन धरून तरातरांनी किरमिली. पोल्यांर घांसली. मुड्डिली.

आनी एक खीण वीज चमकून गेली. काळजांत नखेत्रां पेटिल्लेवरी जालें. आण दोनूय हातांनी घट धरून कापडांत मुंगल्लो...मुंगल्लो. आनी मागीर मुळांतल्यान हुमटून काडिल्लेवरी एक खोल गळसणी जिवाक लागली. उजो पेटिल्ल्या शिरंतरांत रगताच्यो शिळा जाल्लेभशेन.

पयलोच अणभव ! बुळबुळीत... चिकचिकीत... कापडभर सगळो बोळ जाल्लो. मांडयांक लागिल्लें सगळें कापडान पुसून काडलें. चेड्डी परती भेंडार चडयली. मोटया प्रयासान उठून ते तिनूय नग आशिल्ले थंय दाण-येर वडयले. आनी येवन खाटीर लवंडलों.

भितल्ल्यान चेडवाक जाग आयली. काळखांत धडपडत तें भायर आयलें. म्हज्या बांकाकडेन येवन फस्क सोडून ताणें काडी माल्ली. दिवो लायलो आनी तें मुतपाक भायर गेलें.

हांव फाट करून न्हिदलों. ताजेर नदर पडल्यार लेगीत म्हाका आतां ओकूंक येतलें अशें दिसपाक लागलें.

: ८ :

पार्बतीचो बाळंटेर जालो.

हें सवें भुरगें आसलें. गुरवाचार आसताना ती सदूचे सारको सगळो वावर करी. तिका तो करचो पडटालो. बाळंत जाल्ल्या त्या सांजवेळा

बावराडेपण करून पोटांत वळटा म्हुण ती घरा परतली. घरांत येवन कोट्रक त्रियेता तशी बाळंत जाली. ना वैजीण ना दोतोर. फकत चड वेण मारता तेन्ना शंकरान बळजबऱ्यां भेंडाक धरिल्लें तितलेंच.

मागिरचो सगळो वावर शंकरान मुरग्यांक फर्मोवन करून घेतिल्लो.

शेजारधर्म म्हुण भरण्याआका दोन घटका खबर घेवन आयलें.

दोन दिसांखातीर शंकराल्या घरांत सगळें थंड आसलें. शंकर गाळी मारिनासलो. बाळंटीण जाल्ल्यान पार्बतीचेंय तोंड वाजनासलें. अकस्मात मळब्रांतल्यान आयिल्ल्यावरी शाणेरण मुरग्यांक आयिल्लें. कचींबुचीं एका-मेकांक सांवरतालीं. पका सांगता तें मोन्यांनी आयकतालीं. खोरवो कशीं चोंब्यान रावतालीं. आनी वाटेन वतल्या दरएकल्याक सांगतालीं : ‘ आमचे-गेर चेडूं जालां. ’

पकान दोनदां धेंकणे घालतकीच तेंवूय बंद जालें. भरण्याआका फावल्या वेळांत भायर तामरेतीर येवन बसतालें आनी विडयेचो धुंवर सोडीत शंकराले वशीन पळोवन मुमुरल्यांनी हांसतालें.

पांचव्यादिसा शंकर पकाक घेवन पणजे वचून आयलो. मुरग्याचो तेर्म बी करून घेतलो. पयशे पार्बतीनूच दिल्ले. येतना बाजारांतसून दोन पोतयांनी कड्डण आनी हेर वस्तू हाडल्यो.

दुसऱ्या दिसा सटी आसली. दोनचार दीस शंकरान विडयांकारांक मटक्याचो नंबर विचारूंक नासलो. तेदीस ताणें तांकां जेवन परतताना हडकिलें.

‘ छत्तीस इलो ’ ‘ विचारच्या आदींच एकल्यान सांगलें.

‘ नंबर नाय इचारन हं. ’

‘ मगे ? ’

‘ उद्यां सटी आसा. रातीकडेन येवंक व्हयां. ’

‘ आं. ’

‘ सगळ्यांनी. धाकू, दिगू नाराण, इसरं नकोत. ’

‘ आज पांच दीस वाटटां ? ’

‘ हय. ’

‘ भुरग्यां बरा आसां मां ? ’

‘ आसा. ’

शंकरान फाल्यां सटयेक आपोवणें सांगतकीच सगळ्यांनी जल्मल्ल्या भुरग्याची वासपूस केली. नाजाल्यार फाटल्या चार दिसांक कोणें थंय हुंगोवन लेगीत पळोवक नासलें.

भरण्याआकान विडयाकारांक केल्लें आपोवणें आयकलें. येसलो जेवंक बसलेलो. ताका कोंचोवपाची कूय भरण्याआकाक आयली.

‘ येसल्या ? ’

‘ काय ? ’

‘ तुका फाल्यां सटयेक नाय सांगलां ? ’

‘ उद्यां सटी ? ’

‘ तुका कसो सोडलो तर... ’

‘ शीण काइंक जाता ? ’

‘ मगे ? ’

‘ गांवभाव न्हुगो ? जावंक व्हयां. वाडीक एका वाडयार रवूं. पणजेंत दोळ्यांकडें आसतंव. ’

‘ मगे तूं जातलो तर— ’

‘ जावंक नको ? ’ येसल्यान भरिल्ल्या गालांतल्यान जाप दिली.

‘ फाल्यां रातचां इडयांकारांक जेवण नको आसतलां. तुकांय रांदूक नको मां ? ’

‘ नको. ’

‘ मियां आनी झिलगो दोगांच फाल्यां. ’

'अं.'

उदक घोटीत येसल्यान मान हालयली. भरण्याआकाक ताज्या निला-जऱ्यापणाची हळशीक दिसली आसूंक जाय. विडी पालोवन ताणें पच्च करून थुंकी कडऱ्यार मोखली.

म्हाका दिसलें–हो मनीस अन्ना वांटयाचो गू कित्याक खायना ?

## : ९ :

दुसऱ्या दिसा दनपारां विडयांकारांनी रातीकडेन जेवंक आसचेना म्हण-पाचें सांगलें. भरण्याआका वगीच रावलें.

सांजवेळसान शंकराल्या घरांत बोवाळ पडिल्लो. हें धू तें धू. हें पूस तें हाड असलीं कामां शंकरान करून घेतलीं.

खोंपीभायर येवन शंकरान भरण्याआकाक उलो माल्लो. बायलमनशेची जात जाल्ल्यान ना सुटका जावन तें गेलें. सटयेक लागता तितलें सामान नासलें. भरण्याआकान हें जाय तें जाय म्हुण सांगलेंना. आसा तातूंत सोबोवन घेतलें. फकत भोगावळ केली आनी जाता तितलें बेगीन थंयचें कडसलें.

रातिच्या आठेक वरांच्या अदमासाक विडयांकार धाकू, दिपू, नाराण घेंपा वडयत आयले. हरशीं भरण्याआकागेर जेवणाक उसरां येताले. केन्ना केन्ना भरण्याआकाक वाज येयसर वाट पळयत बसचें पडटालें.

शंकराक दिशिल्लें ते परस ते बेगिनूच आयिल्ले. पकाक सांगून ताणें भितल्लो बांकडो भायर हाडूंक सांगलो. शंकर आनी पका रान्नीकडेन वावुर-ताले. बारकेलीं सामान हाती लागीं करून दितालीं. पार्बत उठून बशिल्ले-कडेन चत्राय दिताली.

भायल्या बांकडयार विडयो फुसकायत सगळे बसले. शंकरान येवन तुळशी पेडयेर कुले तेंकयले.

‘ देंवचाराक सोरो घालूंक व्हयो मां ? ’

‘ देवस्पण करुंकच व्हयां न्हय ? ’

‘ नाराण, घेवन येतय मां ? ’

भितर वचून शंकरान फाटीं लागून पार्बतीकडच्यान पयशे हाडले आनी अर्दी बाटली काजुचें हुर्राक हाडपाक नाराणांक धाडलो.

नाराण धांवत गेलो तसो धांवत आयलो. पायांक काय जिबेक थार नाशिल्लो तें कळनासलें.

आंब्याच्या सुक्या खोलयांचे दोगे करून ते पेळयेकुशीक दवरले. बाटलेच्या बुराकार बोट धरून शंकरान अदमासान दोण्यांनी सोरो ओतलो. बाटली खाक्यांत धरून सांगणें केलें. फाटल्यान पोरांनीय हात जोडले. विडयांकारूय उठून उबे रावले.

‘ देवाचां थोडां थोडां घेवया मां ? ’

कोणेंच नाका म्हळें ना. फुकट्याक मेळ्यार देवाचें मूत लेगीत ते मोन्यांनी पितले आसले.

कवचेचे ग्लास, कान मोडकी चिक्नां, आलिमेनचे पेले करून चौगांयनी आयदनां हातांत घेतलीं. ते बराबर नाल्लाच्या उदकाक आयदनां घेवन येतात तशीं भुरगीं चिक्कपिरयो घेवन आयलीं.

‘ भुरग्यांनी घेंवचां न्हय तां. ’ शंकरान तांका धपकावन भितर धांवडायलीं.

इतले म्हणसर धोराच्या वासान गीद येवंचो तसो येसलो बांदावयल्यान पांखाटे हालयत आयलो.

‘ उशीर जालो. ’ आपणांक सगळे रावतात अशें करून ताणें म्हळें.

‘ येसलो रे ? ये. ’ शंकरान ताका आपयलो. खरें म्हळ्यार आतांच

आपयिल्लो. नाराणान ताका आपणां कुशीक सुवात करून दिली आनी म्हळें :

‘ आतां म्हटलां, तूं येतय काय नाय. ’

‘ गांवभाव न्हय रे, चुकांक कसां जातलां. ’

‘ देवाचां इल्लां घेतय मां ? ’

येसल्याक पयलें समाधान जालें तें सगळे आजून जेवंक ना म्हणपाचें कळून. सोऱ्याचो उगडास काडिना फुडें ताणें फाटल्यान वळून भरण्या-आकाचे खोंपीकडेन पळयलें. फुडली कवडी धांपिल्ली. फकत म्हजे कुडींत बांकार दिवो पेट्टालो. ताजो उजवाड जनेलांतसून भायर दिसतालो.

‘ भरण्याआकाक भितय काय ? ’ येसलो फाटल्यान वळ्ळो तें पळोवन एकल्यान विचाल्लें. ते म्हणसर दुसऱ्यान सोऱ्याचें कोप ताज्या हातांत दिल. सोऱ्याचो घोंट मारुनूच ताणें जाब दिली.

‘ भितंय कित्याक ? ’

‘ जेवण दिवचां नाय ? ’

‘ फुकट दिता ? ’

‘ घरान घेवचां नां ? ’

‘ फुकट रवतय रे येसल्या ? ’

येसल्यान कांय जाप केली ना. ताणें रोखडोच दुसरो घोंट माल्लो. सगळ्यांची नदर ते बाटलेचेरूच आसली. ती बेगीन सोंपता काय कितें अशी भिरांत सगळ्यांक पडिल्ली. हेरांपरस आपणांक उणें पडलें असो दुबाव जणा एकल्याक खातालो. निदान बाटलेंतलो सोरो सोंपचे आदीं तरी तांकां भुसाचो उगडास येवचो नासलो.

‘ शंकर माज्या भावासमान. ’

‘ आमचो वारशी न्हय रे ? ’

‘ माज्या चुलत्याच्या चुलतभावाचो... ’

‘ कसां ? ’

‘ ह्य रे. ’

विडयांकार आपणां भितरूच शंकराकडेन आपणालीं नातीं जुळयताले. एकाद्रया रुखाक गारफां जुळोवचीं तशीं.

शंकर मात येव्रजणेंत पडिल्लो. आतां केन्ना विशय सुरू करचो हें तो चिंततालो. ताणें बाटले कडेन पळयलें. आनींक एकदां सगळ्यांच्या कोपांत रकयतकीच हुसको मेकळो जातलो आसलो. ताणें बाटली रिती केली. मागीर तिका गुड्डी लायली आनी तोंड उकतें केलें.

‘ नाराण, येसलो, धाकू, दिपू. ’

‘ बोल. ’

‘ तुमी माजे गांवभाव. ’

‘ कोण आवशी झवऱ्याचो न्हय म्हणता ? ’

‘ आमचे भितूर कायय वायट बरां घडल्यार आमीच मिटवंक व्हयां. ’

‘ मिटवंक व्हयांच. चवाटयार येवंक दिवचां न्हय. ’

‘ पुण घडलां काय रे शंकरा ? ’

‘ तुमी आज सगळे जमल्यात. धा जाण कशे. ’

येसल्याक खूब दिसां उपरांत आपूण मनशांत आयिल्ले भाशेन दिसलें.

‘ तुमी आज रुजवात करूंक व्हयीं. ’

सगळ्यांकूच उस्तरयां गेलें. कोपां रिकामी जाल्लीं. न्हाल्लया आंगार पाल पडची तशे सगळे शिरशिरले.

‘ कसली रुजवात म्हणून इचारतल्यात तुमी. ’

कोणें विचाल्लें ना.

‘ माजी आनी माज्या बायलेची. ’

तरी कोणें जाप केली ना.

‘ तुमी म्हणताल्यात, तुमचां घोवा बायलेचां भांडाण आमकां परक्यांक नको. पुण तुमी परकी न्हय. ह्यां तुमीच मिटांवक व्हयां आनी तां सुद्दां

जेवणा आदीं.'

निमाणो धसको सगळ्यांकूच बादलो.

'आयकतल्यात मां?'

आनी शंकरान आपणालें गाराणें तांच्या मुखार मांडलें. सांगप उतरा उतराक चडटालें. आवाजाक धार येताली.

तो सावंतवाडीक सावन कुटूंब घेवन बांदार आयिल्लो तेन्ना ताजे दोळे बरे आसले. तो पणजेच्या कान्रांत चाकरेक आसलो. पुण अकस्मात दोळे गेले. ऑपेरासांव आनी वखद विसंद खूब केलें पुण गूण आयलो ना. मागीर नदर परतून येत हाजी आशाच सुटली. चाकरी गेली. दोळे वचून दुसऱ्या वरसा ताका पांचवें भुरगें जालें. घरा येवन समजावणी दिवपी कुटूंब नियोजन खात्यांतल्या मनशांचो सल्लो ताका मानवलो. ऑपेरासांव करून भुरगीं थांबोवपाचो निर्णय ताणीं घेतलो. पार्बतीन आपेरासांव करचें अशें थारलें पुण मागीर बायलमनशेक वावर करताना त्रास पडटात अशें जायतीं जाणां सांगूंक लागलीं. त्याभायर संवसारा खातीर आतां पार्बतीच चड वावुरताली. देखून शंकरानूच आपणांक भुरगीं जावंचीं न्हय म्हुण ऑपेरासांव करून घेतलें. ते खातीर ताका थोडे पयशेय मेळ्ळे. आयचे घडये ऑपेरासांव करून ताका पुराय एक वरस जाल्लें.

आनी पार्बतीन ताजो घात मारिल्लो.

'हे रांडेन म्हाका फटयलो.' शंकरान दांतवोंठ किल्लिले. 'वैजाचां म्हुण फसता?'

'हापेरासांव सारक्यां जावंक ना दिसता.'

'सारक्यां जावंक ना काय कर्म माजां. पाटेकाराच्यान सांगतंय, हॉपेरा-सांव केल्यापासून एकदीस सुद्दां हे रांडेन म्हाका फुडयांत घेवंक ना. इचारा तिका जाब.'

'जाब इचारुंकच व्हयो, पुण सटयेदिसा काय इचारतलय?'

‘ चेडये, तुकां हाडलय मियां, पोसलय मियां आनी माजे दोळे फुटले तेवां दुसऱ्याच्या फुडयांत न्हिदांक वयतंय ? ’

‘ लगीन जाल्ले बायलेन असां करुंचा न्हय. ’

‘ आगो बापायझत्ऱ्या, जनाची सोड तुज्या मनाची सुद्दां तुकां लाज नाय काय म्हणतंय ? पांच भुरग्यांची आवस मगो तूं ? ’

‘ असां करुंचा म्हटल्यार जातीकसुद्दां लाजेक म्हाग मां ! कोण कोणाच काय म्हुण लोक चवकशी करतत. ’

‘ आयकल्यांत मां, हेजी रुजवात आतां जावंक व्हयी. नाजाल्यार फाल्यां ह्यां चेडयेचां वात्राडेपण म्हुण करूंक जातलां, देसायागेर आयदनां घांसतलां तेज्या फुडयांत पासली पडटलां. कामतीलां उश्टां काडटालां, कामतीकुशीक न्हिजतलां. मिलीटरी हॉस्पितालांत वयतलां पुलीसांच्या फुडयांत न्हिजतलां. आनी मागीर भुरगीं जायत रवतलीं. जगा लोकाच्या कास्ताचीं. ’ शंकराक धांप लागली. पुण तो थार घेनासतना उलयलो.

‘ हेजी रुजवात आतांच जावंक व्हयी. काय रे नाराण. ’

‘ रुजवात जावंकच व्हयी. पुण ती बाळंतीण न्हय ? तरास उठूंक. ’

‘ धाड नाय भरली माका. कोण करता रुजवात ? ’ पार्बत भितल्लयान तशीच भायर आयली. न्हेसण सारकें न्हेसूंक नासली. तशेंच भेंडाक गुठला-यिल्लें. कांसाटो सुटिल्लो. सगळ्यांक एकाच कासाटयांत मारतां...असोच तिजो अवतार आसलो. काजळाक लागून दोळे भयचकीत दिसताले.

तिज्या अकस्मात येवपार सगळ्यांकूच चेड्डेंत मुतूंक जालें. शंकरूय खिणभर बावल्लो. हरशीय जाल्यार पार्बत सामखार उबी रावन ताजी घुरी परतून लायताली. देखून ती आज हांतुणार आशिल्लेकडेन तिका बळजबऱ्यां आयकूंक लावप ही शंकराली मांडणी आसली. पुण खेळ परतल्लो.

‘ करा मरे रुजवात. ’ सगळ्यांमदीं ती धेंडलो कशी उबी रावली.

‘ ह्यां ख-खरां मां ? ’

‘ काय तां ? ’

‘ ह्यां···ह्यां···’

‘ ह्यां ह्यां काय आवयची गाण करतहय ? ’

‘ तेका नाराणाक कित्याक गाळी मारतहय ? ’

‘ कोण नाराण ? कोणाचो कोण ? तुजो भाव ? वारशी ? तुजे दोळे फुटलेले तेवा खंय गेल्ले रे तुजे वारशी ? तेवां एकटोय कसो तुजे खबरीक पावलोना ? ’

‘ सगळ्यांक फावतां नाय. ’

‘ ये येसल्या, गांवभावा. तूं हडें शेजराक रवतय मरे. तुकां केवां तुज्या भावाची खबर घेवची वान्सा जाली नाय ? भावाचीं भुरगीं जेयलीं काय उपाशी आसत तां केवां देखलां रे तुयां ? भरण्याआकाक खरस येता तेवां तूं मुद्दम काडोन कित्याक तर जातय ? ’

‘ तुजां ह्यां खरां काय नाय तां सांग. ’

‘ काय तां ? हांव हेज्या तेज्या फुडयान न्हिदतय तां मां ? कोण भैझव-र्‍यांचा नाय म्हणता ? ’

‘ हेजीच रुजवात जावंक व्हयी. ’

‘ कोण करताहा ? करा. सावित्रे सारक्यां रवंक व्हयां मां ? रवतंय. कोण पोसताहा माज्या भुरग्यांक ? कोण घालताहा आदनार ? कोण जोडून हाडून दिताहा ? ये नाराणा, येसल्या, दिपो, धाको, आतां तोंडाक गुड्डे रे कित्याक बसले ? रुजवात करता आवशीझव्‍र्‍याचे. मेयटा फुक्याचां पियोवंक म्हणून पितत. माज्याच किरवटीचां काडून पितत आनी माकाच दुशणां दितत. बिमत फुटूंक व्हयी तुमकां. आसा तो वडा वयलो जाल्यार धरतलो तुमकां. रुजवत करता भैझवरे. सटी वाजोंक इलेहे. धयार धुमको मारूंक. भकूंक. उद्यां हंय घराकुशीच्यान जांवचे सुदूदां नाय. आवयक खायरे रुजवात करतहत ! पार्बतीची रुजवात करतहत ! ! ’

विडयांकार मोन्यांनी वाटेक लागले. डुर्राक कपलाचें देंवून पायां मेरेन पाविल्लें.

येसलो खोंपीकडेन आयलो. भितर हात घाल्न ताणें कवडी उकती केली. हांव जागोच आसलों. दिवो वाडयिल्लो. भितर न्हिदेचें निमित्त करून भरण्याआकाय सुस्त पडिल्लें.

येसल्यान दिवो लायलो आनी भरण्याआकाक उठयनासतना तो रांदनी वयलो बुडकुलो सांसपूंक लागलो. भरण्याआकान आयदनां धुल्लीं आनी मुदम रान्नीर उमथी घाल्लीं. घरांत निवोळ लेगीत दवरूंक नासलो. सगळो घोणांत घाल्लो.

येसलो जळपलो जळपलो आनी तळमळत न्हिदलो.

## : १० :

भायर बेबेर फेगरेद येवन बशिल्लो. भरण्याआकाक गजाली सांगपाक. आकान भायर येवन ताका विडी दिली आनी दुसरी आपणें पेटयली.

हांवे फेगरेदीचें नांव आयकल्लें. बोब आयकल्ली. ताचे बायलेक पळयिल्ली. मात आजून फेगरेदीक पळोंवक नासलो. तरी पुण कल्पनेन ताका चितारिल्लो.

पुण फेगरेदीचो तो अवतार पळोवन म्हजो म्हज्या दोळयांचेर विस्वास बसलो ना. बोंबलेच्या देठापासून व्हडा आवाजान आड्डुवपी बेबेर फेगरेद...वरांची वरां उसरपत घेनासताना बायलेक एका सारको खेपीत रावपी बेबेर फेगरेद; धोदेल कशे बायलेचो घोव बेबेर फेगरेद असो कावुळ-काटक्या हाडकुटांचो आसतलो, ताज्या पोल्याच्यो कट्टयो जाल्या आसतल्यो,

केंस कापसावल्ले आसतले अशें हांवें येवजुकूंच नाशिल्लें.

पुण तो तसो आसलो हें खरें.

हांवें आडोसाक रावून ताका नियाळळो. आतां सकाळीफुडें च्याये वाटयाचें कोपाचें मारून बी तो आयला काय असो दुबाव मारतालो. खोल भितर गेल्लया दोळ्यांत खंती भाशेन कितें जळटा काय असो भास जातालो.

‘ खूब तेंपान मुरे. ’

‘ खूंय फावताय गो ? ’

‘ बायलेक गाळी मारूंक फावताय ? ’

ताणें हांशिल्लें भाशेन केलें. भरण्याआकाचे आनी ताजे लागिचे संबंद आसले.

‘ रातीं हिंगा बरें पेट्टालें मुगो. ’

‘ पेटपा सारकें आसतकूच पेटले बगर कशें रावत ? ’

‘ कितें घडलें ? ’

‘ रुजवात करतल्यांक वाट बंद जाली. ’

‘ केसो रुजवात चल्लेली ? ’

‘ तुवें आयकोना ? ’

‘ सत तर तें ? ’

‘ मागीर...करपी लेगीत फट म्हणना. ’

‘ शी बाबा... ! ’ फेगरेद सुस्कारलो. ‘ कितें कितें दोयांनी चोवचें पोडटा ! ’

‘ त्या खातीर देवान दोळे दिल्या दिसता ! ’

‘ शंकराचेर देवान एक उपकार केलो. ’

‘ कसलो रे ? ’

‘ दोये फोडले तेजे. ’

‘ अं ? ’

‘ म्हुजेंय तेशेंच करूंक जाय आसलें ! ’ फेगरेदीक ताळयांत धुंवर वचून खांक आयली.

भरण्याआका ताका पळयत रावलें.

‘ आयकतलें मुगो ? ’

ताज्यान आतां सांगले बगर रावूंक नजो अशें दिसतालें. सगळें सांगपाकूच आयिल्लो अशे तरेन तो बशिल्लो.

‘ घरकान्नीक हांव खेपता म्हुण्टाय तूं. हेर शेजारीय म्हुण्टाय. ’

‘ हय. ’

‘ सोगले उलोयताय फेगरेद बेबेर. सदां बोब मात्ताय. बायलेक सूज्य सूज्य गाळी मात्ताय. ’

‘ आयकोंक येता न्हू. ’

‘ पुण फेगरेदीची बायल केन्ना जाप काडिना. आत्र्यांक पर्तें दिना. ’

‘ केन्ना परती जाप केल्ली आयकोना. ’

‘ सोगलें मोन्यांनी सोंसता. घारांत राबोन. ’

‘ हय. ’

‘ पुण भोरण्याआका, हांव खेपतां तेन्ना घरकान्न एक फावट तरी घरांत आसता मुगो ?

‘ कितें ? ’ भरण्याआकाक फेगरेदीन अटंग्या रानांत शेणोवचें तशें अजापांत वडयलें.

फेगरेद सदांच खेपतालो :

‘ सोर भायर.

रान्नीकडें बोसोन कित्याक ?

भायर सोर, फोण भत्तांय तुजो.

आतां कित्याक जाप काडिनाय ?

घोव तुजो हांव, पोत्ती जाप काडून चोय... ’

भायल्यान आयकतल्याक बायल मोन्यांनी सोसता अशेंच दिस.

'मागीर आत्र्या पयऱ्यान बायल तुजी वता तरी खंय ?' भरण्याआकान विचाल्लें.

'जोडूंक.'

'रातिची जोडूंक ? कसली जोड ?'

'मीणांची !'

'तुजे जिबेक हाड आसा मरे फेगरेद ?'

'फोटी मारून म्हाजीच लोज कित्याक काडूं ?'

'खरें दिसना !'

'सायबिणीचो सोपूत ! तुका कित्याक लिपोंव ?'

'पुण अशें....'

'भोरण्याआका, हांव आदलो खंय आसां ? पोट फाट एक जालां. आदलो फेगरेद ना आतां. आतां आसा तो फेगरेद तियात्रीस ! सोवंगां कोरपी...'

रुपड्या पोंदचें ताजें खरेलें रूप सोंसूंक कठीण आसलें अशें भरण्याआकाक दिसलें.

भरण्याआकान मोन्यांनी सगळें आयकून घेतलें. उठटना फेगरेद दोन दुकां गळोवन गेलो. सांजवेळा फेगरेदीची बायल धोणाक आयली. सदच्यासारकें भरण्याआकाक तिणें हडकिलें. भायल्यो भितल्ल्यो खबरी विचाल्ल्यो. भरण्याआकान तिका तुसडेपणान जापो दिल्यो. भितल्लो निवळ हाडून तिज्या आयदनांत ओतलो आनी तिजें तोंड पळयनासताना सांगलें :

'फाल्यांच्यान धोणाक दुडू पडटले.'

'दुडू पडटले ?'

फेगरेदीची बायल भायर बरोच वगत थाल्ली. पुण भितर गेल्लें भरण्याआका भायरूच आयलेंना. रावून रावून निमाणें भेंड वांकडें करीत ती धोण घेवन गेली.

: ११ :

'येसल्याक तूं कित्याक पोसता ?' म्हजें घरा परतप फाल्यांर पाविल्लें
ारी ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका भरण्याआक्का कडसून मेळूंक नासली. घडये
ांवें ताका विचाल्ल्यार तें मात्तूय गणमण नासताना सांगतलें आसलें. पुण
रसाभरांत असो प्रस्न हांवें थंय कोणाकूच विचाल्लोना. तरिकूय म्हजे
ुरत्यो सगल्याच प्रस्नांच्यो जापो म्हाका आपसूक मेळ्ळ्यो.

हांव वचपाचे आदले दीस बरोच वेळ काडून तें म्हज्या म्हऱ्यांत खब-
ोंक बसलें. वरसाभरांत वायट बरें घडिल्लें ताजी उजळणी ताणेंच केली.

'शिकपाक मातशी अडचण जालीच तुका.'

कसली म्हुण हांवें विचाल्लेंना.

'पाड पडों हे खरशिचें! म्हाजें एक नशिबांतलें सुटना पुण तुकां
ासलेले कडेन...' ताजे खरशीखातीर म्हाका सोसचें पडलें ही आपणांक
ोखरपी खंत ताणें उकतावन दाखयली.

'तुजो मामा भांगर मनीस!'

हांव हांसलों.

'मार्किटांत एकदीस म्हाका मेळ्ळो. खंयूय मेळूं, उले मारीत फाटल्यान
ाो येता.'

'आका ?'

'आरे, तूं उलो मारतालो ?'

'हय.'

'भाच्याची खबर...'

'तुजेकडेन आसताना खबर ?'

'बरो बाबा तूं.'

'घे.'

'हें रे कितें?'

'घे गो.'

'हे कितें आतांच दिवंक जाय?'

'आतां आनी मागीर... तुकां कितें आनीक कसली येणावळ आसा?'

'येता मरे जेवपाक?'

'ना. आनीक केन्नाय.'

मामान म्हजे रावपा–जेवपाचे सगळे पयशे फारीक केल्ल्याचें ताणें सांगलें.

'अंबू पास जातकूच फुडल्या वरसा...'

हांव वगीच रावलों.

'हांगाच यो.' ताणें आदींच आपोवणें केल्लेभाशेन केलें.

फुडल्या वरसा हांव हांगा पावचोना अशी सुलूस लागिल्ले वरी, अचकीत, ताणें जावन येसल्याची खबर काडली.

'ह्या येसल्याक हांव कित्याक पोसतां रे? त्या परस एका सुण्यांक पोसलेलो जाल्यार फायदो आसलो.'

भरण्याआकान येसल्याची सुण्या वांगडा तुळा करपाचो यत्न करप म्हळ्यार त्या प्रमाणिक जिवाचो–सुण्याचो अपमान घडिल्लेभाशेन म्हाका दिसलें.

भरण्याआकान सुरवात केली तेन्ना विडी पाळयली... घोव मरून रांडाव भरण्याआका पणजे आयिल्लें.

जावां मावांच्या भल्या घरांत स्वाभिमानान रावपाक ताका पुटवलेंना. भुरगीं ना बाळ... उबांतर. भाटकाराची पांयधरण करून बांदार खोंप उबारली. जेवणां दिवपाक सुरवात केली.

आपणालें एकसुरेपण ताका खावपाक येवंक लागलें तेन्ना ताणें पोसकी धूव घेतली. तेंच हें चेडूं.

चेडवाच्या आंगार वस्ती घाल्न सोत्रशा दबाज्यान ताचें लग्न केलें.

एकदीस जेवणकारां वांगडा वाडयेचो येसलो म्हुण एक गोड उलोवपी दोन पायांचें जनावर आयलें आनी गोडाचे घेंपीक दोमळो दसचो तशें भरण्याआकाक दसून उल्लें.

'भरण्याआका ? हंयच रवतंय मियां.'

'कसां जाताला ?'

'तुजोच आदार कसो.'

'तां जालां.'

'जेवणाचे आनी रावपाचे म्हणान...पणजेंत हातीयांयां पडल्यार खंक खंयय मेळतय पुण तुज्या सारकां मायेचां माणूस...पयशे चुकचे नाय गो...'

पयले दोन चार म्हयने भरण्याआकाच्या दोळ्यांक उदक लावपाक ताणें जेवणाचे आनी रावपाचे दुड्ड हारोहार फारीक केले.

'येसल्या, पयशांची गरज आसली मरे. तांदूळ हाडूंक व्हये.'

'उद्यां बगतंय आं.'

मागीर दुसरे दीस येसल्याक उगडास केल्यार...

'परांच्याक बगतंय.'

आनी मागीर अशीच चक्राचक्री. ती आजून मेरेन. दर एकलो म्हणटालो. 'भरण्याआका पिशें ! घाल धांवडोन.'

ल्हान गरयेक व्हडलें भोपशें फारावल्यार तडीर पडप कठिणूच. भोपशें जाय तेन्ना गरी तोडूंक शकता. पुण गरवलीच पोके आस्तेन सांवरीत सांव-रीत आपणाली शक्त वगडायता.

भरण्याआका जाल्लें गरवली आनी येसलो जाल्लो व्हडलें भोपशें.

ते राती येसलो खूब रडलो खंय बुळूबुळू. आनी म्हणूंक लागलो :

'आका, दादल्या सारको दादलो आसून बुळूबुळू रडूचा प्रसंग इलाहा

माजेर. इक खावन मरतलय म्हटल्यार फुटकी कवडी पासून ना. दुस्मानाचेर पासून असो प्रसंग येवचो न्हय.'

भरण्याआकाक तें आयकून खूब वायट दिसलें. ताका आपले दीस येवजले.

येसल्याचे बायलेक कसलीतरी वायट पिडा जाल्ली. ती वाडयेक वळवळ-टाली आनी येसलो हांगा तळमळटालो. पांच पयशांक कोण रावत काय ना इतली ताजी परिस्थिती आसली.

भरण्याआकान आपणालो भांगरा पाटल्यांचो जोड ताजे सुवादीन केलो आनी खंयूय घाणांक दवरून दुडवांची वेवस्ता करूंक सांगली.

एका म्हयन्यान सुमार येसलो परतो आयलो.

'कशी आसा?'

'बरी हा.'

'बरी म्हणचे?'

'भोंवता—खाता.'

'जांव!' भरण्याआकान हुसको पयस जाल्ल्याचो सुस्कार सोडलो.

'कसलां दुयेंस?'

'असांच.'

'असांच म्हणचे?'

'असांच...दोतोरांक तरी सारकां खंय कळटत?'

'पुण अदमास?'

'असांच तां...'

बायलेचें दुयेंस येसल्याक कशेंच सांगपाक जालें ना.

ताजे उपरांत येसल्यान जेवणाचे आनी कसलेच पयशे म्हणटात ते आकाक दिलेना. आकाचो तुवालो वापल्लो, चादरी वापल्ल्यो, जुनेरां लेगीत. एक सुताचो धागो केन्ना हाडलोना.

भरण्याआकाकडल्यान जाय तेन्ना तो पयशे काडीत रावलो. दीसभर पणजेंत

 

हेडून घरा येवन वेळार भुसकें झोडपी पणजेंतलो तो एकलोच भाग्यवान प्राणी आशिल्लो जावंक जाय. पयशे जोडपाचो कसलो उद्देग तो करतालो तें हेरांक सोड, ताजे ताकाच खबर नासलें जावंक जाय.

'येसल्या, तूं वावर तरी कसलो करतय ?' भरण्याआकान ताका विचारचें आनी ताणें दांत काडून फकाणाचेर घालून हांसचें. एकेक दीस भरण्याआका गंभीर जातालें.

'येसल्या, तां खंय पावलां रे ?'

'हाडतंय मगो.'

'हाडतंय, हाडतंय म्हण हूल उठोवन बसलय आतां कितलो तेप !'

'असां काय बोलणां ! माणसार इतलो विस्वास दवल्लो. चार दिसां खातीर आतां...'

भरण्याआकान पाटलेची याद काडची तेन्ना तेन्ना तो गंभीर जातालो. अशे तरेन कि भरण्याआकाक दिसचें, आपणाल्या उपकाराच्या वज्याखाला बागवल्लो हो मनीस ! परीस्थिती सुदरना फुडें आपणाली वस्त परतो करतलो.

भरण्याआकान ताका केन्ना दुखयलोना. ताजेकडेन जेवणाचे पयशे मागलेना. रावपाचें भाडें सोदलेंना. आपणाल्यो वस्तू वापरता म्हुण शीण काडलोना. इतल्याच खातीर कि तो दुखावलो जाल्यार पाटल्यां जोड हातार चडचोना. एकफावट पांटल्यो हातार चडटकीच मागीर तें आपणाल्या मनांतलें खरें दाखयतलें आसलें. पुण येसल्याच्या मनांतलें तें केन्नाच वळखूंक पावलेंना.

दर जोरगतीर ताजो मुड्डो जातालो. तें मरपाक पावतालें. प्राण गळ्यांत येताले पुण पाटले खातीर अडटाले. तें मागीर येसल्याक सोदतालें.

'येसल्या ऽ ऽ आ ऽ ऽ'

'कितें गो आका ?' कुशीक आशिल्लें चेडूं विचारतालें.

'येसलो ऽ ऽ'

'कित्याक तो ?'

येसलो येवंक ना ?'

'ना.'

निमाण्या खिणाक घामा कश्टाच्यो त्यो पाटल्यो पळोवन आपूण जीव सोडटलें अशें ताका दर खेपे दिसतालें. पुण जिस्त जोरगतिचे जोरगतीर येसल्याक हागता थंयचे पुलीस धरून व्हरताले. वाडीक ताजी बायल बरी ना जाताली. कोण खंयचो सोयरो अकस्मात खंवसतालो आनी तो खोंपी-तल्यान अचळय पांय काडटालो.

आनी जोरगतीरच जिस्त पडटया प्रसंगार उडी मारपी मायेच्या भुतासारकें चेडूं दारांत हाजीर जातालें.

'तुका कोणें पत्रां धाडलीं ?'

'पत्रां जाय ? जोरगत म्हुण कळ्ळी.' न्हेसण कवळीत चेडूं वावराक लागतालें.

'कितलीय जाल्यार पोसकी ती पोसकी' अशी खंत भरण्याआकाक त्या दिसा जाताली.

तें बरे भाशेन जाणा आसलें. चेडूं कुंभारजुवेंच्यान येता तें आपणाल्या मोगान न्हय तर मेल्या उपरांत आपणाली पाटली सतलासूंक. आनी ह्या-खातिरूच तें 'खंय दवल्दया ती कोणाच्या हाताक बी लागत आं' अशें बरे तरेन सांगून मायेन आनी जतनायेन वासपूस करतालें.

पुण पाटलेची खरी खबर भरण्याआकान चेडवाक केन्ना सांगलिना. ती कळ्ळयार घडये दर जोरगतीर चेडवाक कुंभारजुवेच्यान चुकनासताना गाडयो चुकतल्यो आसल्यो.

भरण्याआका एके अतृप्त इत्सेन तळमळटालें. तें नातवाचें जावं नातिचें तोंड पळोवंक आशेतालें. आपणालो पाटल्यां जोड मेळचो...चेडवा कूस उजची...आनी त्यो पाटल्यो मोडून आपणाली याद म्हुण कसली तरी वस्त करून नातवा आंगार घालची...मागीर खंयचेच जोरगतीर ताजो जीव

खासावीस जावन प्राण ताळ्यांत अडचे नासले, अशें ताका दिसतालें. लग्न केल्यार चारपांच वरसां जालीं तरीय चेडवाची कूस धर्लिना कित्याक म्हणपाचो दुबाव येवन ताका आनीक खंत भोगताली.

ते राती च्यान म्हाका मरण्याआकाच्या दोळ्यांक दोळो दिवपाक भिरांत दिसताली. म्हज्या हातसून कितें तरी गुन्यांव जाला हाची जाणवीक जाताली.

हांव सामको अक्लेक आयिल्लों ताच्या दुसऱ्याच दिसा रातीकडेन चेडूं म्हजे कुशींत आयिल्लें. सेगीत तीन राती.

पयलीच रात.

मध्यान रात जावन गेल्ली. म्हाका दोळो लागूंक नासलो. कुशी परतितालों. माजराची पावली कशी वाजली. मागीर कापडाचो वास. हांव न्हिदलां काय जागो आसां म्हणपाचें ताका खबर नासलें. ताणें ओणंव घातलो. पालव म्हज्या तोंडार पडलो. चाळावलों हांव. हांव न्हिदलां अशें समजून ताणें आपणालो हात म्हज्या माथ्यांत घातलो. खंयचें बळगें आयलें म्हाका कोण जाणा ! हांवें चेडवाचो हात तसोच ओडलो आनी तें आख्खें म्हज्या उदाऱ्या आंगार कोंसळ्ळें. आंगार पडनाफुडें पयलीं ताणेंच म्हाका वेंग माल्ली. आनी म्हाका कडेक सारून तें म्हजे कुशीक पांय सोडून न्हिदलें. ताजें हड्डें म्हज्या हड्डयाक तेंकपाक हांवें नेटान वेंग आंवुळ्ळी. म्हजो दावो हात ताजे मानेखाला येवन आडखळूंक लागलो. एका हातान ताणें आपलें न्हेसण वयर काडलें. मागीर म्हजी चेड्डी खपयस्स करून सकल ओडली आनी कसलीच उसरपत करिनासताना खिणाभितर, म्हज्या कुल्यांक हात घाळून म्हाका आपणाचेर ओमथो लंवडून दिलो.

अशे तरेन तीन राती आमी धुमशेणां कांड कांड कांडलीं. हुसक्या मेकळीं. चवथ्या दिसा सकाळच्यान चेडवान म्हजे नदरेक नदर दिली ना.

तें वावर करीत आसलें. दनपारच्या सुमाराक हांव चाळवलों. चेडूं भायर भितर बोवाळत आसलें. हांव कदेलार बशिल्लों. तिरशे नदरेन

एकदांच चेडवान पळयलें. पुण परती नदर घातलिना आनी तोंडा वयले भावय बदल्लेना.

त्या दिसा हांव दनपारां कॉलेजीक गेलों ना. भरण्याआका सुद्दीभायर आशिल्लें. तशांतूच ताणें म्हजी खबर काडली. पुण चेडवान जाप केली ना.

सकाळ धरयां बसून बसून कुले साणावल्ले. पांय मेकळे करपा खातीर कांपाला वटयां गेलों. पुण चड वेळ भायर लक्ष लागलेंना. परतो आयलों. पळय जाल्यार चेडूं ना. भरण्याआका कुशींक गेलों. आनी कळ्ळे किं चेडूं अकस्मात घोवाच्या हुसक्यान कुंभारजुव्यां गेल्लें.

अंदू हांव नापास जातलोंच हें जशें म्हाका दिसतालें तशें चेडवाची कूस धरतली हेंय म्हजें मनूच म्हाका सांगतालें.

घडये ही जोरगत येवंचे आदीं चेडवाच्या गुरवाचाराची ती सुखदिर्ण खबर भरण्याआकाक कळटली आसली. पुण त्यो पाटल्यो मोडून—नातव खातीर घडटले आसले ते वस्तिचें कितें ..?

* * *

जाग प्रकाशनाचीं फुडलीं अजवाडावपां

विराट

अच्छेव

हिमालयांत

लाला - बाला

चुकिल्ले नेम

यात्रिक

चित्रंगी

खण खण माती

रूख

सांगाती

बांबर म्हळयार नदरे पैलाडिच्या संवसाराचो घेतिल्लो थाव.... तातूंत कंब[illegible]चें खुंटयेक लावन अुकताडार अुकतायिल्लें अेक वास्तव कथन.

बांबर म्हळयार लख्ख अुजवाडांत अुकत्या दोळयां मनीस नांवाच्या प्राण्यान दोळयांत काजळ घालचें तशें आपणायिल्लें कुड्डेपण.

बांबर म्हळयार मनशान आपणाले कर्तुत्वदशेचेर चडयिल्लो निलादरेपणाचो घूड.

बांबर म्हळयार मनशाचे मादीक फाव जाल्ली कोलकाची सैमीक नितीमत्ताय.

बांबर म्हळयार परिस्तितिच्या दोरांक हुमकाळायिल्लीं, बांबरांत हुळहुळपी केलदयाचे जातिचीं खामसुत्री बावलीं.

बांबर म्हळयार अेका खिणाक संवसार शेंटार मारपाचे शेंटाकूरवृत्तिचो अुदेव.